


# अखिल भारतीय कोंकणी परिशद

# सासाय

## 27 वें अधिवेशन

ता. 5, 6 आनी 7 फेब्रुवारी 2010
फादर आंतोनियु पैरेरा नगर,
नगरपालिका खेळा-मैदान, सांखळी, गोंय

**एक भास, एक लिपी, एक साहित्य**



अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे संस्थापक

# स. माधव मंजुनाथ शानभाग

हांका नमन



# अखिल भारतीय कोंकणी परिशद
# 27 वें अधिवेशन

**ता. 5, 6 आनी 7 फेब्रुवारी, 2010**

फादर आंतोनियु पैरैरा नगर,
नगरपालिका खेळा-मैदान, साखळी-गोंय



# सासाय
## स्मरणिका



उजवाडावणी
**5 फेब्रुवारी 2010**



# सासाय
# Saasaay

संपादक
**श्याम अनंत गांवकार**
**Editor**
**Shyam Anant Gaonkar**
Shyamgaonkar@rediffmail.com

© अखिल भारतीय कोंकणी परिशद
© All India Konkani Parishad

प्रकाशक
**श्री. सदानंद सिताराम काणेकार**
सरकार्यदर्शी, अखिल भारतीय कोंकणी परिशद
Publisher
**Sadanand Sitaram Kanekar**
Secretary, All India Konkani Parishand

मुखपृश्ट संकल्पना
**श्याम गांवकार**
Cover Page
**Shyam Gaonkar**

अक्षर जुळवणी / छापणावळ
**स्वर्णमुद्रा प्रिंटस्, मार्शेल**
Typesetting / Printer
**Swarnamudra Prints, Marcel**

टीप – हे स्मरणिकेत उक्तायिल्या मतांकडेन संपादक आनी अखिल भारतीय कोंकणी परिशद सहमत आसतलीच अशें ना.



संपादकीय



# कोंकणी एकवटाचो जागोर

धोलार तोणी पडची आनी लोकांचे आंग शिरशिरचें हे प्रथेप्रमाण कोंकणीच्या म्हालगड्यांनी उलो मारचो आनी कोंकणी मनां एक जांवची, मागीर तें निमित्त कसलेंय आसूं. काळ बदलता तस तशी कोंकणी मनांक उर्बा येत चल्ल्या. नक्कीच बरी गजाल. 'एक भास एक लिपी, एस साहित्य' ह्या धोरणाक धरून नेटान पावलां मारपी अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेची तोखणाय करीत तितली कमी. प्रांताप्रांतान शिपडिल्ले कोंकणी मोगी, आनी कोंकणीच्या म्हालगड्यांक कोंकणी सरस्पतीच्या माटवांत एकठांय हाडून संस्कृती आनी साहित्याची देवाणघेवाण तरणाट्यांच्या सांगातान जाता हाका लागून परिषदेचें कार्य उजवें थरता. परिशदेन घेतिल्ल्या ह्या फुडाकाराक लागून एकसंघ समाज घडपाक आनी घडोवपाक मजत जाता. गरज आसा पावलांची गती वाडोपाची कारण कोंकणीचो मार्ग हो राष्ट्रीय महामार्ग आसा. तांच्यो कक्षा दिसांन दीस रुंदावत चल्ल्या.

एका तेंपार कोंकणी म्हणटकच जळींथळीं जाण्टेलेच दिश्टी पडटाले. तरनाटे मात्शेशे पयस रावताले. ते पयस रावताले काय तांका पयस दवरताले हो वादाचो मुद्दो, ताचेर आमी न उलयल्लें बरें. आता हो प्रकार कांय हेंर माचयेचेर जाणवपाक लागता. आमी सोडोवन वडयल्ले लुगट ते आपले कमरेभोवतणी गुंठलावपाक लागल्यात. 'आपलेंच धवें' म्हण हाचेर कामरूण घालतात. पूण सुज्ञांक चड सांगचेली गरज पडना हेंय तितलेंच खरे.

अधिवेशनां जालीं, मेळावे घेतले, परिशदो भरयल्यो म्हण कोंकणीची उदरगत जातलीच अशी ना हें आतां चडश्या कोंकणी मनशांक कळपाक लागलां. खऱ्या अर्थान कोंकणीची उदरगत जातली जाल्यार कोंकणीची घुडी तरणाट्यांच्या खांदार दिवची हें सत्य आता पटपाक लागलां. अशा प्रयत्नांक पुराय तरेंन सुरवात जावचेंली गरज आसा. कोंकणीची

सेवा करता करता समाजांत सांप्रदायिक सद्भाव आनी एकचार राखप तितलेंच गरजेंचे थरात हाचेर कोंकणीच्या वेदीचेर खोलायेंन विचार जावंक जाय. लिपीवाद आनी धर्म भेदाच्यो वण्टी मोडपाची खरी गरज आयज आसा. अशा माचयेचो वापर अशी कारणाखातीर करपाची गरज आसा.

आयचो समाज भरकटत चल्ला. समाजाक उजू वाट दाखोवची आयज खरी गरज उप्रासल्या. उजवाडाची वात पेटोवन भरकटिल्ल्यांक जागे करपाखातीर खऱ्या दिपस्तंभाची आयज गरज आसा, समाजांतली सामाजीक आव्हानां, पर्यावरणीय आव्हाना योग्य प्रमाणान पेलून तीं सुटावीं करपाखातीर कोंकणी मनांनखांद मारपाची गरज आसा. राज्या राज्यांत आनी आंतरराष्ट्रीय स्तरांवेले तंटे सुटावे जावपा खातीर अशा परिशदांतल्यान प्रयत्न जावंक जाय.

आमी खरेंच किदें तरी समाजाचे देणे आसात अशे कांयजाण येवजितात. समाजा खातीर आपलें अस्तित्व खऱ्या अर्थान दाखोवन दिवची गरज आसा. समाजाच्या उदरगतीखातीर वावुरतात तेन्ना समाजाक ताची जाणविकाय जावंक जाय. वेळ आयला ''जन, जंगल, जल, जमीन आनी जनावर या पाच 'ज'ची राखण करपाची.''

साखळेंत राबीतो करून आशिल्लो विठ्ठलापूर कारापूरचो श्री देव विठ्ठल, दत्तावाडीचो श्री दत्तात्रय, गोकुळवाडीचो श्री राधाकृष्ण, हरवळचो श्री. रुद्रेश्वर, साखळेतली सप्तशती भुमिका देवी, बाबर पीर आनी सेंट जॉन ह्या देव देवतांचे वरदहस्त आशिल्ल्या साखळी नगरीत अखिल भारतीय कोंकणी मोगींच्या विचारांक एक चैन्य मेळटा. त्या रिणांत ह्या वाठारांतले लोक सदांकाळ उरतले. हाचे पयली 1987 वर्सा ह्या वाठारांत 9 वें अखील भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन भरिल्लें. ताच्या उपरांत ह्या भांगरा खीणाचे तुमी आमी सगळे जाण साक्षीदार. कोंकणीची ही गुडी तुमीआमी सगळेजाण नेटान उभारूया आनी एकवट वाडोवया.

**– श्याम गांवकार**

ता. 5 फेब्रेर 2010

थळ : सांखळे – गोंय



**DIGAMBAR KAMAT**
CHIEF MINISTER
GOA




# MESSAGE

*I am glad to know that All India Konkani Parishad is organizing 27th session of the Parishad from February 5th to 7th, 2010 at Sankhali. I am also pleased that a souvenir containing the articles contributed by the legends in the Konkani field will be released on the occasion.*

*Though Konkani is the prime language of Goa, it is being spoken by innumerable people from Maharashtra, Karnataka, Kerela and other parts of India and the World and the Parishad of such magnitude will go a long way for further enrichment of Konkani language.*

*I appreciate the efforts taken by Akhil Bhartiya Konkani Parishad to bring together people from across India to deliberate on issues related to development of Konkani.*

*I wish all the success for the Parishad.*

DKamat

**(DIGAMBAR KAMAT)**
CHIEF MINISTER



**PRATAPSINGH RANE**
SPEAKER
Goa Legislative Assembly



# MESSAGE

*Akhil Bhartiya Konkani Parishad has been striving for the development of Konkani Language in the country. I am happy that efforts are being made to further carry on Konkani related activities by holding 27th session of the Parishad which will be held from February 5 to 7, 2010*

*The Parishad will provide excellent opportunity to large number of people from different parts of the country to come together and exchange their views on promoting Konkani literature on a common platform. I am sure such endeavour will undoubtedly promote Konkani in India and abroad as well.*

I extend my best wishes for the success of the Parishad.

**(PRATAPSINGH RANE)**
SPEAKER



**ASHOK CHAVAN**
CHIEF MINISTER
MAHARASHTRA



# MESSAGE

*I am glad to know that the Akhil Bharatiya Konkani Parishad is organising its 27th Session on 5,6 & 7th February 2010 at Sanquelim - Goa.*

*The good work so far achieved and being done deserves appreciation. I hope the Parishad will highlight its major achievements in the souvenir, which will be released at this session.*

*My best wishes for the session and for the future endeavour of this Parishad.*

**(ASHOK CHAVAN)**
CHIEF MINISTER



Ph. : (O.) : 2333812
2333682
FAX : 0471-2333489

*Date : 26-12-2009*

**V. S. ACHUTHANANDAN**
CHIEF MINISTER OF KERALA



# MESSAGE

*I am happy to know that All India Konkani Parishad is organizing the 27th session of the Parishad on 5th to 7th February, 2010 at Goa and that a souvenir is being brought to mark the event.*

*Wish you all success.*

**V. S. Achuthanandan**

# अखिल भारतीय कोंकणी परिशद

# 27 वें अधिवेशन

**ता. 5, 6 आनी 7 फेब्रुवारी, 2010**

फादर आंतोनियु पेरैरा नगर, नगरपालिका खेळा-मैदान, साखळी-गोंय

# *कार्यावळ*

## गुक्रार, 5 फेब्रुवारी, 2010

दनपरां 3.00 ते 3.30 – प्रतिनिधी नोंदणी
3.30 ते 5.00 – शोभायात्रा
सांजे 5.00 ते 7.00 – उक्तावण सुवाळो
नमन, येवकार गीत
येवकार अध्यक्षाचें उलोवप –
**श्री. विश्वजीत प्र. राणे** (भलायकी मंत्री, गोंय राज्य)
कार्याध्यक्षींचें उलोवप – **सौ. सुनिता काणेकार**
उक्तावण – **श्री. दिगंबर कामत,** (मुखेलमंत्री, गोंय राज्य)
आशिर्वाद – **पद्मभूषण श्री. रवींद्र केळेकार**
भोवमान सुवाळो – स्मरणिकेचे / नव्या कोंकणी पुस्तकांचे विमोचन
आदल्या अध्यक्षांचे उलोवप –
**ॲड. श्री. शांताराम नायक** (खासदार, राज्यसभा)
संदेश वाचन –
मानाच्या सोयऱ्यांचें उलोवप –
**श्री. प्रताप प्र. गांवस** (आमदार पाळी मतदार संघ, गोंय)
मुखेल सोयऱ्यांचें उलोवप –
**श्री. दिगंबर कामत** (मुखेलमंत्री, गोंय राज्य)
अध्यक्षांचें उलोवप – **डॉ. एच. शांताराम**
(प्रशासकीय अधिकारी, मणिपाल, कर्नाटक)
उपकार – **श्री. सदानंद काणेकार,**
(सरकार्यदर्शी अ. भा. कोंकणी परिशद)
सांजे 7.00 ते 9.00 – सांस्कृतीक कार्यावळ
रातचें 9.00 ते 10.00 – जेवण

## शेनवार, 6 फेब्रुवारी, 2010

सकाळी 8.30 ते 9.30 – च्या, नाश्तो
9.30 ते 11.00 – परिसंवाद – 1
विशय – "आयच्या युगांत कोंकणीचें अस्तित्वः सर्वसादारण आनी इलेक्ट्रॉनीक माध्यम."
अध्यक्ष : **डॉ. हरिश्चंद्र नागवेंकार**
सहभाग – **श्री. गुरुदत्त बाळ्ळिगा, श्री. लुईस रॉड्रीगीज, ॲड. श्री. मुकूंद जांबावलीकार, श्री. के. व्ही. भास्करन**
सकाळी 11.00 ते 12.30 – परिसंवाद – 2
विशय : "युवक कोंकणींक कितले लागीं कितले पयस!"
सहभाग : **श्री. कमलाकर म्हाळशी, श्री. भूषण भावे, श्री. अजय बुवा, श्री. पी. एस. रामचंद्रन, श्री. गोरख शिरसाद, श्रद्धा गरड**
दनपरां 12.30 ते 1.30 – कवी संमेलना – 1 (बाकीबाब यादस्तीक)
अध्यक्ष – **सौ. नूतन साखरदांडे**
सहभाग – **रमेश वेलुस्कार, श्री. जे. बी. मोरायस, श्री. माधव बोरकार, श्री. प्रकाश पाडगांवकार, श्री. युसुफ शेख, श्री. आर. एस. भास्कर, श्री. भरत नायक, श्री. संजीव वेरेंकार, सौ. नयना आडारकार, सौ. माया खरंगटे, श्री. प्रकाश द. नायक, श्री. जॉन आगीयार, श्री. निलबा खांडेकार, श्री. पी. एन्. शिवानंद शेणॉय, श्री. पूर्णानंद च्यारी, श्री. सुनील पालकार, ग्वादालुप डायस**
दनपरां 1.30 ते 2.30 – जेवण
2.30 ते 4.00 – परिसंवाद – 3
विशय – "कोंकणी शिक्षण : फुडाराचें व्हिजन आनी मिशन."
अध्यक्ष : **प्रा. माधव कामत**
सहभाग : **डॉ. माधवी सरदेसाय, श्री. अनील पोवार, श्री. जी. मोहनराव, डॉ. शिवराम कामथ**
सांजे 4.00 ते 4.30 – च्या
4.30 ते 6.00 – परिसंवाद – 4
विषय : "कोंकणीच्या लौकीक उदरगतीक बायलांचो सहभाग."
अध्यक्ष – **सौ. निर्मला सावंत**
सहभाग – **ॲड. स्वाती कर्पे केरकार, सौ. गीता शेणॉय, सौ. शीलावती एल. एस., सौ. शीला कोळंबकार**
सांजे 6.00 ते 8.00 – सांस्कृतीक कार्यावळ
रातचें 8.00 ते 10.00 – कोंकणी सिनेमा
10.00 ते 11.00 – जेवण

## आयतार, 7 फेब्रुवारी, 2010

सकाळी 8.30 ते 9.30 – च्या, नाश्तो
9.30 ते 11.00 – परिसंवाद – 5
विशय – "गोंयांभायल्या कोंकणी मनशांची गोंयांकडल्यान अपेक्षा."
अध्यक्ष – **ॲड. अमृत कांसार**
सहभाग – **श्री. व्ही. व्ही. शेणॉय, श्री. के. के. उत्तरन, श्री. अरूण उभयकार**
सकाळी 11.00 ते 12.30 – कवी संमेलन – 2 (बाकीबाब यादस्तीक)
अध्यक्ष – **श्री. राजय पवार**
सहभाग – **श्री. अशोक काणेकार, श्री. नारायण बेतकीकार, मिलन वायंगणकार, श्री. दिलीप धारगळकार, फिलोमेना सेंट फ्रान्सिस्को, श्री. काशिनाथ नायक, श्री. झिलू गांवकार, श्री. विक्रांत पांगम, श्री. विनायक गोवेकार, सौ. हर्षा सद्गुरु शेट्ये, सौ. शोभा फुलकार, श्री. रमेश घाडी, श्री. चित्तरंजन नायक, सौ. सरीता बी. नायक, सौ. सरस्वती दा. नायक, श्री. अनील वेर्णेकार, रेखा रा. नायक, सौ. प्रमीला होबळे, सेलसा लोपीस, श्री. गौराज तळावलीकार, श्री. कर्ण खांडेपारकार, रेश्मा सुर्लेकार**

## समारोप सुवाळो

दनपरां 12.30 ते 1.30 – येवकार – **श्री. गोकुळदास प्रभू**
(कार्याध्यक्ष अ. भा. कोंकणी परिशद)
समेलनाच्या प्रतिनिधींच्यो प्रतिक्रिया
(गोंय, कर्नाटक, केरळ आनी महाराष्ट्र प्रतिनिधी)
मानाच्या सोयऱ्यांचें उलोवप –
**सौ. सुनिता वेरेंकार** (नगराध्यक्ष, नगरपालिका, साखळी)
मुखेल सोयऱ्यांचे उलोवप –
अध्यक्षीय समारोप –
**डॉ. एच्. शांताराम** (अध्यक्ष अखिल भारतीय कोंकणी परिशद)
उपकार – **श्री. ज्ञानेश्वर क. तारी** (सरकार्यदर्शी, येवकार समिती)
दनपरां 1.30 ते 2.30 – जेवण

# येवकार गीत

– श्री. ज्ञानेश्वर कमलाकांत तार

लाख दिवे हे उजवाडाचे मळबांत लखलखतात
तुमच्या-आमच्या काळजांत पळय एकचार केळयतात ॥1॥

धाय दिकांनी येवकार दितात हे उजवाडाचें मालें
हातांत-हात घालून वांगडी माटवात सगळे आयले ॥2॥

शिरंतरांनी भरला विश्वास कोंकणी आमचो प्राण
म्हान-सान वांगड्यांनी सोबयला हो मांड ॥3॥

धादोस जांवन पुण्यभूंय ही मनभोक्षर हासलीं
माड-माडयो पिकावळींनी सैरभार न्हाली ॥4॥

भरते भार आयला हांगा ही कलाकारांची खाण
गिरेस्त आमच्या कोंकणी दायजान रसरसता हो मांड ॥5॥

एक भास, एक लिपी कोंकणी आमचो प्राण
एक दिलान म्हणूया आर्मी कोंकणी भौस म्हान ॥6॥

# अखिल भारतीय कोंकणी परिशद

## 27 वें अधिवेशन

### येवकार समिती

येवकार अध्यक्ष



श्री. विश्वजीत प्र. राणे



कार्याध्यक्ष



सौ. सुनिता काणेकार

सरकार्यदर्शी





श्री. ज्ञानेश्वर क. तारी



पालवी सरकार्यदर्शी



श्री. प्रविण सावंत

पालवी सरकार्यदर्शी



श्री. संजय तेंडुलकार

भांडारी



श्री. माणिकराव गावणेकार

जोड-भांडारी



श्री. राजन शेट्ये

### उपाध्यक्ष

श्री. रमेश वेळुस्कार
श्री. रवळू (दादा) आमोणकार
सौ. सुनिता वेरेंकार
श्री. सदाशिव वालावलीकार
श्री. प्रदीप लवंदे

श्री. अशोक काणेकार
श्री. नरसिंह भटगांवकार
श्री. विजयकुमार वेरेंकार
श्री. शेख महमद हनीफ
श्री. अनील वेर्णेकार

सौ. नूतन साखरदांडे
श्री. कृष्णनाथ फोगेरी
श्री. आग्नेल द. सिल्वा
श्री. अनंत पिसुर्लेकार
श्री. झिलू गांवकार

# अखिल भारतीय कोंकणी परिशद, पणजी - गोंय

## कार्यकारी मंडळ - 2008 ते 2010

| | | |
|---|---|---|
| अध्यक्ष | : | श्री. शांताराम नायक |
| उपाध्यक्ष | : | श्री. रमेश वेळुस्कार |
| कार्याध्यक्ष | : | श्री. गोकुळदास प्रभू |
| उपकार्याध्यक्ष | : | फा. एरिक क्रास्टा |
| उपकार्याध्यक्ष | : | श्रीमती शीला कोळंबकार |
| उपकार्याध्यक्ष | : | श्री. शिवानंद शणै |
| सरकार्यदर्शी | : | श्री. सदानंद काणेकार |
| पालवी कार्यदर्शी | : | श्रीमती नयना आडारकार |
| भांडारी | : | श्री. माणिकराव गावणेकार |
| वांगडी | : | श्री. एन. शिवदास |
| वांगडी | : | श्री. पावल मोरास |
| वांगडी | : | श्री. दिनेश मणेरकार |
| खाशेले आमंत्रीत | : | डॉ. तानाजी हळर्णकार |
| खाशेले आमंत्रीत | : | श्री. उदय भेंब्रे |
| खाशेले आमंत्रीत | : | श्री. नागेश करमली |
| खाशेले आमंत्रीत | : | श्री. भरत नायक |

# अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे अध्यक्ष भौ. शांताराम नायक हांची वळख



ॲड. नायकान आपली कारकिर्द वकिली वेवसायान सुरवात केली. दक्षिण गोंय वकील संघटनेचे अध्यक्ष आनी अखिल गोंय वकील संघटनेचे ते उपाध्यक्ष आसले.

काँग्रेस पक्षाच्या गोंय प्रदेश पक्ष समितीचे वांगडी ते पक्षाध्यक्ष अशी तांची येसस्वी वाटचाल. काँग्रेस पक्षाच्या राष्ट्रीय समितीचेरूय निवड जाल्ली. तामीळनाडू, केरळ आनी लक्षद्विप ह्या राज्यांतलो पक्ष कारभार तांचे अधिकारिणीखाला तांणी सांबाळ्ळा.

1984 पणजी मतदारसंघांतल्यान (उत्तर गोंय) ते लोकसभेचेर वेंचून आयिल्ले. 2006 त तांची राज्यसभेचे वांगडी म्हूण निवड जायत सावन ते सध्या राज्यसभा खासदार म्हूण गोंयचें प्रतिनिधित्व करतात.

ॲड. नायकाचें खूब आदीं सावन कोंकणी चळवळींत योगदान मेळ्ळां. कोंकणी चळवळीच्या सगळ्यां पांवड्यार तांचो वैयक्तीक तशेंच पक्षीय आदार मेळ्ळा. लोकसभा तशेंच राज्यसभेंत तांणी संद मेळ्ळ्या तेन्ना कोंकणीची भुमिका समर्थपणान राष्ट्रीय पावंड्यार मांडल्या. कोंकणीक संविधानाच्या आठव्या परिशिश्टांत सुवात मेळोवन दिवप्यां मदीं ॲड. नायकाचो वांटो उल्लेख करपा सारको. लोकसभेंत तशेंच राज्यसभेंत कोंकणींतल्यान उलोवपी ते पयले खासदार.

2006 त पणजे जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या रूप्या उत्सवी अधिवेशनाचे ते येवकार अध्यक्ष आसले. गोंयच्या समाजीक, सांस्कृतीक, शिक्षणीक संस्थां कडेन तांचो लागींचो संबंद आसा तशेंच साबार विशयाचेर ते वैचारीक लेखनूय करतात.

# डॉ. एच. शांताराम हांची वळख



शिक्षणतज्ञ तशेंच मणिपाल शिक्षण अकादमीचे प्रशासकी अधिकारी डॉ. एच. शांताराम हांची साखळेंत 5, 6 आनी 7 फेब्रुवारींत जावपी अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या 27 व्या अधिवेशनाचे अध्यक्ष म्हुण नेमणूक जाल्या.

डॉ. एच. शांताराम हांचो जल्म 1928 वर्सा शिमोगा जिल्यातल्या नगर हांगा जालो. नगर आनी शिमोगा हांगा मुळावें शिकप पुराय केल्या उपरांत 1951 वर्सा बेंगलोर हांगासल्ल्यान सेंट्रल कॉलेजातल्यान मास्टर्स पदवी ताणी पयल्या वर्गात पास केली. 1954 वर्सा इंपेरियल कॉलेज ऑफ सायन्स अँट टेक्नोलॉजी, लंडन हांगासल्ल्या डि. आय. सी. चे शिकप पुराय केल्या उपरांत लंडन विद्यापिठांतल्यान पी. एच. डी. पुराय केली.

शिक्षण क्षेत्रांत नेमान काम करतना ताणे शिक्षणाच्या उदरगती खातीर भरीव काम केलें. आतांमेरेन डॉ. एच. शांताराम हाणी विंगड विंगड सुवातीनी अद्यापनाचे काम केलां, शिस्तप्रिय आनी शांततायेचें प्रतिक म्हुण डॉ. एच. शांताराम हांचे कडेन पळयतात.

विभागीय सहाय्यक संचालक म्हुण ताणी चार वर्सां काम केलां. भारत सरकाराच्या अधिकाराखाला येवपी राष्ट्रीय मलेरिया निर्मूलन कार्यावळी अंतर्गत ताणे कर्नाटक, केरळ आनी तामिळनाडू सारख्या राज्यानी काम केलां.

आतांमेरेन ताणी विंगड विंगड पदांचेर काम केलां. मंगलोर विद्यापीठाच्या प्राचार्य समितीचे ते अध्यक्ष म्हुण दोन वेळा काम पळयलां. मणिपाल ग्राहक कॉ. ऑप. सोसा. चे ते अध्यक्ष म्हुण दोन वेळा काम पळयलां. मणिपाल रिकॉर्डचे संपादक म्हुण ताणे चार वर्सां काम केलां. मणिपाल जेसीचे चार्टर व्हा. प्रेसिडेंड, सेंट्रल साहित्य अकादमीच्या कोंकणी सल्लागार समितीचे सदस्य म्हुण ताणी काम केलां. त्याभायर रंगभूमी संस्थेचे वा नाटक सर्त समिती उडपीचे अध्यक्ष म्हुण काम पळयलां.

डॉ. एच. शांताराम सध्या मणिपाल हांगासल्ल्या अकादमी ऑफ जनरल एज्युकेशनात प्रशासकीय अधिकारी म्हुण काम पळयतात डॉ. कोटा शिवराम कारंथ संशोधन केंद्र, भांडारकर कॉलेज, कुंदापूरचे संचालक, श्रीमती राधाबाय पी. व्ही. शेट रेन अध्यायन केंद्र, भंडारकर कॉलेज, कुंदापूर संचालक म्हुण ते काम पळयतात. ह्या भायर विंगड विंगड संस्थाचे ते सभासद आसात.

मणिपाल कॅन्सर सोसायटीचे ते अध्यक्ष आसात. मणिपाल घर बांदणी को. ऑप सोसायटीचे सध्या ते उपाध्यक्ष म्हुण काम पळयतात.

डॉ. एच. शांताराम हाणी शिक्षण आनी समाजीक क्षेत्रांत दिल्ल्या योगदाना खातीर तांका कितलेशेच पुरस्कार फावो जाल्यात. उल्लेख करपाचोच जालो जाल्यार हालींच केराली सुहरूदवेदी, कुंदापूर हांचेकडल्यान मेळील्लो प्रतिश्टेचो कैराली ॲवार्ड ह्या भायर 1996 वर्साचो रोटरी क्लब ऑफ उडपी – मणिपाल संस्थेचो न्यू इयर्स पुरस्कार दिवन तांचो गौरव केला. शिमोगा हांगा भरिल्ल्या 73 वें अखिल भारतीय कन्नडा साहित्य संमेलनात ताचो खाशेलो भोवमान केला.

जगाच्या विंगड विंगड भांगात भोंवडी केल्ले. डॉ. एच. शांताराम एक बऱ्यातले बरे लेखक आनी विचारवंत म्हुण नामनेक पावल्यात. 2009 वर्सां तांच्या बऱ्या मागप्यानी स्वप्नशिल्पी नावाचो एक ग्रंथ उजावाडाक हाडून तांतून डॉ. एच. शांताराम हांच्या पुराय कार्याचो उल्लेख केला.

# सर्गेस्त खा. आंतोनियु लुईस पेरैरा

## नगराक जांचे नाव दिलां तांची वळख





खा. आंतोनियु लुईस पेरैरा, 25 ऑगस्ट 1919 वर्सा सिर्ले, चिंचोण्या हांगा जल्मल्लो लुदोवीनो पावलो पेरैरा आनी अनास्तसिया कॉस्ता हांचो आंतोनियु हो पूत. कुडतरीच्या Colegio Sidonio Paes Videadoiant पुर्तूगेजीतलें सेगुद ग्रांव पास करतकच, रायतूरच्या सेमीनारींत, देवाच्या आपोवण्याक पालव दिवन भितर सरलो. थोड्याच वर्सानी जेजुईत संस्थेची आवड तयार जावन तांतूंत ताणी प्रवेश केलो आनी फुडलें पाद्रीपणाचें शिकप ताणे कालिकत, शेंबागनूर, आलेपी, पुणे आनी कुरसेंग हांगा केलें.

पाद्रीपणाची मावानी घेतकच फा. आंतोनियु पैरेरा एस. जे. दिवचले आनी बागां-कळंगूटे हांगा वावूरलो. दिवचलेंत ताणे खुब वावर केलो. धार्मीक मळा भायर ताणे शिक्षणीक आनी समाजीक मळारूय जायतो वावर केला. ह्या गावांत सगळो लोक हिंदू क्रिस्ती आनी मुसलमान ताका इतलो मानतालो की तो थंयचोच राजा जाल्ल्या वरीं दिसतालो. बागाचे रेतीराचे घराक ताणे एक नवो रंग दिलो. उपरजीवीं लोक आप आपले रेतीर करपाक थंयसर धावून येतालो. सादे लोकांक, खारव्यांक, थवयंक, आवोंयक हे रेतीरातलें तांचे आत्मीक जीविताक एक नवी दिका दिवपाचें ताणी पावल मारलें.

फा. पैरेराचें जिवीत म्हळ्यार वोतांची आनी हातांची काणी आपलें वोतानी देवाचें उतर प्रगतीत ताणे, व्हय फकत गोंयचे गांव, बगर गोंय भायर परयात, माडयलें. आपले मधूर जीबेन तो देवाची बरी खबर प्रगतीत गेलो. ताचे सेरमांव आयकूंक लोक आशेतालो.

ताचे हाताची काणी भोव व्हडली. आपल्या बरोवपातल्यान ताणें आमचे माय भाशेची, कोंकणीची भरपूर सेवा केली. ताणे तिशेंक पुस्तकां उजवाडाक हाडलीं. ताचे मर्दी शेंवतूलें, कृपेची किर्णां, ओवळां, तुजो विचार, काळजीदार, जात्रेकार जुजे, आमचे मीस, गोंयचे माणीक, धर्तरेवेली सुंदरी, गोंयचे अतीरवयलो, जेजूचीं कमळां, वादळ आनी वारें, कोंकणी शास्त्री दाल्गादो, The Makers of konkani Literature, Dalgado : The Man and scholar, आवयचें मांडयेर, साश्टीची तांबडी माती, कोंकणी ओपारीचें भांडार, फुडारी, चिरमुल्यो, S. Vincent Palotti, आंवडेचो मनीस, म्हजें त्रित्वेचें गीत. आदीं चड फाकीवंत जाल्यांत.

गेल्या फावट ताणे कविता रचल्यात त्यो एकठांय करून 'कवितांचो झेलो' हे ताचें पुस्तक उजवाडाक आयलें. आनी ताणे नवें पुस्तक सोडोवणेची काल्स वाचप्यामुखार दवरलें. हें पुस्तक आपले कश्ट - दगदगांची कार्णी आमकां सांगचे सांगून आमी आमचे मदें तुफानाक कसो फुडो करचो, तें आमकां शिकयता. काळजीदार बळवंत आनी हार न मानपी मनीस देवान भोव थोडे रचल्यात आनी तांतलो एक म्हळ्यार फा. आंतोनियु लुईस पैरेरा एस. जे. असो हो सगळ्यांच्या आवडीचो आनी सगळ्यांक जाय आशिल्लो मनीस वर्सा देवाक जाय पडलो.

# कोंकणी मनीस निकूबाब



तेजस चहरो, सदाच धवें कपडे गांधी टोपी, लांबदाडी, एकटोच भितल्ले पेठ ते साष्टीवाडो सर्वोदय आश्रम पर्यंत सदाच चलून वचपी बरे मागप्यांक सदाच सांगपी बेकार रावू नाकात काम करात.

तशेच संस्थापक, पत्रकार, आदर्श गांधीवादी, सुटके झुजारी, आवयभाशेंचो अभिमानी आनी निश्चयाचो पक्को ह्या सगळ्यांचो सांगड म्हळ्यार निकूबाब.

निकूबाबाचें पुराय नाव निळकंठ मंगसे कारापुरकार तांचे मुळ घर दिवचले भितुल्ले पेठेन. ''शणै गोयेबाबाच्या' घरा सामकार. तांची घरची मडगावा रावताली तेन्ना तांचो जल्म ता. 24 मार्च 1905 वर्सा बोर्डे मडगाव हांगसर जालो. तांचे भुरगेपण मडगावातच गेलें. थंय ताणी मराठी - इंग्लेज पाचवी आनी पुर्तूगीज सॅगुंदग्राव शिक्षण घेतले. तरनाट्या वयात ताणी गांधी, टिळक, सावरकार हांचे साहित्य वाचन केले आनी तातुल्यान तांचो देशप्रेम जागो जालो.

दिवचले आयल्या उपरांत तांका देश कार्याची तळमळ रावूक दी नाशिल्ली, ताणी आपल्या समविचारी वांगड्याबराबर रावून 1940 च्या सुर्वेक 'नुतन वाचनालय' दिवचल हांगसर काम करतना गोंय मुक्तीची चळवळ सुरू केली. साखळें, दिवचल फिरून मिरवणुकोय काडल्यो, पूण तांका जाय तसो तेको मेळ्ळो ना. ताच्या उपरांत ते मडगावा गेले आनी थंय पुरुषोत्तम काकोडकार आनी आपले बापोलभाव दों. शंकर कारापुरकार हांका घेवन 'गोंय सेवा संघाची' स्थापना केली. ते थंय तरनाट्यांक क्रांतीचळवळीच्यो खबरो दिताले. तशेच विद्यार्थी महिला संघटना स्थापन करून खादीचें म्हत्व लोकांमेरेन पावयताले, हें करीत आसतना ते आपल्या बापायक कामात मदत करताले, ताणी नोकरी म्हुण केन्नाच केली ना आनी निमाणे मेरेन आंकवार रावले.

18 जुन 1946 दिसा डॉ. राम मनोहर लोहियान केल्या मडगाव सत्याग्रहाक वाटेकार जावपा खातीर ताणी सबंध गोंयात फिरून पत्रका वाटली आनी त्या खातीर तांका ख्यास्त जाली. पुण ते भिले नात. ते आनीक नेटान वावर करपाक लागले. गोंयात (एन. सी.) नेशनल काँग्रेस गोंय फाट्यावतीन करमळे हांगसर मुखेल उलोवपी म्हुण आमंत्रीत केले त्या वेळार तांका पोर्तुगेज सरकारान 15 डिसेंबर 1947 वर्सा बंदखणीत घालो. सुर्वेक ते आग्वाद आनी उपरांत आंगोल आफ्रीका अशे तरेन 1961 वर्सा मेरेन बंदखणीत उरलें. आंगोलाक बंदखणीतल्यान मुक्त जातोगुच ताणी आफ्रीकन लोकाखातीर मुक्ती चळवळींनी वाटेकार जाले.

8 मे 1962 ह्या दिसा तांणी गोय भुयेर पावल दवरले आनी ते धन्य जाले.

तांच्या रासवळ घरात तांका रावपाक बरे दिसना जालें तेन्ना ताणी 1964 वर्सा साष्ठावाडो दिवचल हांगासर सर्वोदय नावान आश्रम सुरू केलो आनी दुबळ्यांक आनी हरीजनाखातीर शाळा सुरू केली. ते स्वतः आश्रमाच्या जागेत कश्ट करून तरेतरेंची फळ-फळांची झाडा रोयताले, भाजी पिकयताले, हरीजनाखातीर बॅन्ड ग्रुप तयार केल्लो. अशे तरेन स्वावलंबनाचे धडे दिताले.

1970 वर्सा दिवचले वार्ड नं. 4 तल्यान नगरपालीकेची वेचणूक लडयली पुण जायत्या जणांचे फाटबळ मेळूंक नाशील्ल्यान ते जैतीवंत जाले ना.

पत्रकारीतेंत सुद्धा ते कमी नाशील्ले. 1972 सावन ते राष्ट्रमत दिसाळ्यान नेमान बरयताले. तांचे कितलेशेंच लेख उजवाडा आयल्यात. तांच्या लेखांची तोखणाय करपी पत्रा आमका आजुनूय पळवपाक मेळटा.

दिवचल म्हालांतली सगळ्यांत पयलीची कोंकणी मळार वावुरपी संस्था 'दिवचल कोंकणी सेवा केंद्र' हाची स्थापणुक ताणी 1974 वर्सा केली. तशेच तांच्या रासवळ घरात कोंकणी ग्रंथालय सुरू केलें. भाशामंडळ तशेच हेर प्रकाशकांच्या पुस्तका हाडून कोंकणी वाचप्यांमेरेन पावयलीं. आनी कितलेशेच कोंकणी मनीस तयार केले. गोंय सरकारान 18 जुन 1981 वर्सा निष्ठावंत स्वतंत्र्य सेनानी म्हुण गौरव केलो. जानट्या वयांत ते दुयेंत पडले आनी ते 1[illegible] फेब्रेर 1988 वर्सा म्हापशे आझिल वृद्धाश्रमात संसाराक अंतरलें. अशे तरेन एका व्हड सर्गेकणी मनश्यांचो अंत जालो.

# स. बाप्पा लवंदे

## चैतन्यान भरील्ले जिवीत

स. रामकृष्ण दत्तू उर्फ बाप्पा लवंदो हाचो जल्म 10 जुलय 1913 ह्या वर्सा कुंभारजुवें गांवांत जालो. ताचे भुरगेपण कुंभारजुव्यांत गेलें. उपरांत कांय वरसां तो आपणाल्या घरच्या सांगातान धंद्या वेवसायाक लागून आंबेशी-पाळी हांगा उरलो. सादारण 1942 ह्या वरसा तरणाटो बाप्पा व्यापाराक लागून साखळे आयलो आनी 'साखळकार' जालो. साखळी हीच ताची कर्मभूंय जाली.

स. बाप्पा हाचे व्यक्तीमत्व अश्टतात्यांचे आसलें. तो खर देशभक्त आसलो, आनी ताका दुस्मान म्हण्टात ते नासले. दानत, सरळपण, धाडस, उमेद हे गूण ताच्या रगतानूच आसले. तो हजरजबाबी आसलो. 1930 वर्सा बाप्पा आरोंद्याक (सिंधुदुर्ग) इंग्लीशिच्या धावे यत्तेन शिकता आसतना थंय महात्मा गांधीच्या मीठाच्या सत्याग्रहाक आरंब जाल्लो. समेस्त देशवासी तेन्ना बापुजीच्या सांगण्याप्रमाण गांवा-गांवांनी सत्याग्रह करताले. असोच एक सत्याग्रह आरोंद्या सावन 4-5 मैल पयस आशिल्ल्या शिरोड्या गांवांत जाल्लो. ह्या वयल्या सत्याग्रहांत विद्यार्थी बाप्पान व्हडा उमेदीन वांटो घेतलो आनी ह्या पासत ताका पांच दिसांची कादयेची ख्यास्त भोगची पडिल्ली. उपरांत बाप्पाच्या घरच्यानी जर आरोंद्याक वचून बाप्पाक घरा हाडूंक नासलो, जाल्यार घडये बाप्पाच्या जिविताक वेगळेच मोडण मेळटलें आसलें. जालें, बाप्पाच्या जिवीताक थंयच पुर्णविराम मेळ्ळो आनी ताका आपणाल्या घरच्या वेवसायान लक्ष घालचें पडलें.

व्यापार - उद्योग हीं मळां जाल्यार बाप्पान सगळ्या तरानी गाजयलीं. ताणी तरेकवार उद्योग उबे करून शुन्यातल्यान विश्व निर्माण केलें. कालांतरान त्या विश्वाचे परतून शून्य जालें. पूण बाप्पा खचलोना. खचप हें उतर ताच्या शब्दकोशांत नासलेच. तो सदींच आशावादी आसलो. सुमाराभायर कश्ट, धाडस, सहनशिलता, चिकाटी, उमेद, पयसनदर, खर आत्मविश्वास आनी मूखेल म्हणचे प्रामाणीकपणा ह्या ताच्या ठांय आसलेल्या सद्गुणांक लागून अखेरेक तो जैतीवंत जायत रावलो. विंगड-विंगड व्यापार आनी उद्योगांक लागून बाप्पान हजारानी इश्ट जोडले. नाल्ल-सुपारीचो व्यापार, भात गीरण, खाण उद्योग, बेकरी, इजिनिअरींग मालाचें उत्पादन, छापखानो, काजुकारखाने, ह्या तरेकवार धंद्यांची बुन्याद ताणे घाली आनी तांच्या उदरगतीची जतनाय घेतली.

मोगाळ आनी सेवाभावी वृत्तीक लागून बाप्पाची गोंयभर नामना जाली. भौसांतल्या सगळ्या पांवड्या वयले लोक बाप्पाचो आदर करताले. गोंयचे सुटके उपरांत जाल्ल्या पयल्या - वयल्या ग्रामपंचायतीच्या वेंचणुकेत बाप्पाक सगळ्या परस अदिक मतां मेळील्लीं! वेंचुन आयले उपरांत ताणे खूब समाजकार्य केले. खासा करून साखळे वाठारांतल्या हरीजनांच्या उदरगती पासत ताणे भोवच तकालस घेतल्या.

बाप्पा सुरवेक सावनूच कॉंग्रेसमन आसलो.आपणाल्या मतदारसंघातल्या कॉंग्रेसच्या उमेदवारा पासत बाप्पा पोटतिडकेन वावुरतालो. जायतेंदां स्वोताचे पयशे मोडटालो.



मुक्ती उपरांतच्या पयल्या दसकांत कोंकणी भाशेच्या उन्नती खातीर स. बाप्पा हाणे आपणालें तन-मन-धन अर्पण केले. बाप्पाचे घर म्हळ्यार तेन्ना साखळेचे कोंकणीचे केंद्र आसलें. आपणाल्या घरांत ताणे कोंकणीचे वाचपघर सुरू केल्लें आनी थंय तो वर्सान वर्स शणैगोंयबाबाची पुण्यतीथ मनयतालो. स. शंकर भांडारी सारके जाय ते कोंकणी भक्त तेन्ना बाप्पाल्या घरा येताले आनी लोकांक कोंकणीचे म्हत्व पटोवन दिताले. सगळ्यान म्हत्वाचे म्हणचे साखळेंत कोंकणी मुळावी शाळा सुरू जावपांत बाप्पा हाचो शिंवाचो वांटो आसलो. आपणाल्या तीन भुरग्यांक कोंकणी शाळेंत घालून बाप्पान लोकांसमोर देख दवरली. ही साखळेतली शाळा म्हळ्यार तेन्ना गोंयची पयली वयली कोंकणी शाळा आसली. ह्या इतिहासीक शाळेंत तेन्ना 'गृहभोवमात'कार श्री. सुरेश जयवंत बोरकार विद्यादान करताले.

1966 वरसा श्री. रवींद्र केळेकार हांच्या कृती समितीच्या सत्याग्रहांत बाप्पान वांटो घेतलो. हे पासत ताका तीन दिसांची बंदखण भोगची पडली. 67 वर्सा घडील्ल्या इतिहासीक ओपिनीयन पोलांत बाप्पान किंवाट्यान घालून घेतलें. 'जिखतले नातर मरतले' ह्या जिद्दीन बाप्पा तेन्ना आपणाल्या सांगात्या वांगडा रातदीस हांगा थंय विडविडटालो. साखळेंत सर्वश्री आपा गोवेंकार, बालाजी बोडके, नारायण वेरेंकार, बाळकृष्ण जोशी, सदानंद तेंडूलकार, सदानंद काणेकार हे तेदेवेळार बाप्पाचे मूखेल सहकारी आसले. इतिहासीक ओपिनीयन पोल उलगडल्याक आयज चव्वेचाळीस वर्सा पुराय जातात. पूण ताचे उगडास मात आजुनूय बरे टट्टीत आसात!

1988 वर्सा साखळे हांगा भरील्ल्या णव्या अखिल भारतीय कोंकणी सम्मेलनांत कोंकणी भक्तांच्या वतीन बाप्पाचो भोवमान केल्लो. उपरांत पिरायेन 75 वरसां गाठलीं तेन्ना ताच्या इश्ट मित्रांच्या वतीन आनी बरें मागल्यांच्या वतीन भोवच व्हड सत्कार केल्लो.

1993 वर्सा 28 मे ह्या दिसा पिरायेच्या 81 व्या वरसा बाप्पा ह्या संवसाराक अंतरलो.

साखळी हांगा फायर आंतोनियु पैरेरा नगरात
जावपां आशिल्ल्या
अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या

**27 वें अधिवेशनाक आमच्यो शुभेच्छा!**



# ANANT HEALTH CARE

**Occupational Health Services, Clinic & Training Centre**

Purushottam, Opp. Canara Bank,
Chandor-Goa (INDIA)403 714
Ph: 0832`2784241, 2784929
(Mob) 9822150425
Email: doctorsurendra@hotmail.com

***Dr. Surendra P. Verenkar***

MBBS AFIH

Occupational Health Physician

*Best wishes from:* **SUNCONTROLS™**

We at **Sunshine Electric Company Pvt. Ltd.** have developed
Suncontrols Brand Modular Secodary Substation (MSS)
The MSS is compartmentalized into 4 Sesctions
i) 11KV Metering Compartment
ii) HT Switchgear Compartment
iii) Transformer Compartment
iv) LT Switchgear Compartments






**Shri. Sadanand Verekar**



**Sunshine™**
ELECTRIC CO .PVT. LTD.





Manufacturers of SUNCONTROLS™ Brand Modular Secodary Sub-Station,
Electrical Control Panels (C.P.R. I Tested), PLC Drives,
Sheet Metal Products & Govt. Licenced Electrical Contractor Upto 110 KV &
Suppliers of Electricals Goods & Hardwares.
Plot No. 30, Tivim Industrial Estate, Karaswada, Mapusa, Goa 403526

Ph.: (0832) 2258245/ 2257370/ 2257366/ 3256686,
Fax: (0832) 2257370, Mob.: 9823191819
Email: secplsunshine@sancharnet.in
Web site : www . suncontrolsgoa.com

**26 वें कोचीन अधिवेशन**

**अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें 26 व्या अधिवेशनाची शोभा यात्रा वाजपाच्या गजरांत माटवाच्या दारांत पावतना.**



**अखिल भारतीय कोंकणी परिशद आनी गोवा कोंकणी अकादेमी हांच्या जोड पालवान राष्ट्रीय पांवड्यावयले शिबीर कोंकणी साहित्य, शिक्षण आनी चळवळ ह्या शिबीराचें उक्तावण करतना श्री. मीनीन पिरीस, डॉ. तानाजी हळर्णकार, श्री. सदानंद काणेकार, गोकुळदास प्रभू,आनी बस्ती वामन शणै.**



**8 जुलै 2009 अखिल भारतीय कोंकणी परिषदेचो 71 वो वर्धापनदीस दिवचले दिनदयाळ हॉलांत पुराय एक दिसाच्या कार्यावळीन उलयताना देवु पळ. वांगडा श्री. रामनुन्नी, प्रा. प्रवीण सावंत, सदानंद काणेकार, श्री. गोकुळदास प्रभू, प्रा. दिलीप धारगळकार.**



कोंकणी संस्थांचे प्रतिनिधी, शिक्षक, विद्यार्थी मेळात 27 व्या अधिवेशनाच्यो कार्याध्यक्ष सुनिता काणेकार हाजीर आशिल्यां प्रतिनिधीक येवकार दितना.
माचयेर परिषदेचे सरचिटणीस श्री. सदानंद काणेकार, श्री. रमेश वेळुस्कार, मुखेल सोयरे श्री. पांडुरंग नाडकर्णी, डॉ. तानाजी हळर्णकार, श्री. गोकुळदास प्रभू.



ता. 28 नोव्हेंबर 2009 दिसा कोंकणी संस्थाचे प्रतिनिधी, शिक्षक, विद्यार्थी मेळावेळार हाजीर आशिल्ले मानेस्त आनी वांगडी प्रतिनिधी.



अ. भा. कों. परिशदेच्या 27 व्या अधिवेशनाची जागृताय कार्यावळ सरकारी महाविद्यालय, साखळे. दावेकडल्यान प्रवीण सावंत, सदानंदबाब काणेकार, गोकुळदासबाब प्रभू, माणिकराव गावणेकार, सौ. सुनिता काणेकार, श्री. ज्ञानेश्वर तारी. उलोवप करतना श्री. अजय बुवा.




कार्यालयाचे उक्तावणावेळार उलयतना श्री. सदानंद काणेकार. वांगडा गोकुळदास प्रभू, नगराध्यक्षा सुनीता वेरेंकार, आमदार प्रताप गांवस, श्री. रमेश वेळुस्कार.

ज्ञानपीठ पुरस्कार फांव जाल्ले भौ. रविंद्र केळेकार हांचो भोवमान करतना अ. भा. कोकणी परिषदेचे सरकार्यदर्शी श्री. सदानंद काणेकार. सांगाताक जोर्ज, भरत नायक, नयना आडरकार, मणिकराव गावणेकार, श्री. गोकुळदास प्रभू, श्री. पावल मोरस.






कार्यालयाचे उक्तावण केल्या उपरांत आमदार प्रताप गांवस उलयतना. पयले गोकुळदास प्रभू, नगराध्यक्षा सुनिता वेरेंकर, श्री. रमेश वेळुस्कार आनी आयोजन समितीच्यो कार्याध्यक्ष सुनिता काणेकार



23 जानेवारी 2010 दिसा अ. भा. को. परिशदेचे 27 व्या अधिवेशनाची आमंत्रण पत्रिकांचे विमोचन करतना उद्योजक श्री. दादा आमोणकार. वांगडा ज्ञानेश्वर तारी, राजन शेट्ये, सुनिता काणेकार, श्री. सदानंद काणेकार.



# शोभायात्रा - तरनाट्यांक एक उमळशीक

*ढोल ताशांच्या गजरान दत्तमंदिर दत्तवाडीसावन सुरु जाल्ले शोभायात्रेतलें काय खीण*
















# An interface between GOAN ARTISANS and YOU.

Azulejos tiles painting ■ Cashewnuts ■ Coconut craft ■ Bamboo craft ■ Shell craft ■ Jute








APARANT promotes Goan art and crafts, which provides livehood to hundreds of local artisans. Since times immemorial, Goan handicrafts like Lacquerware, Azulejos tiles painting, Crochet, Carved Wooden items, Jute items, Paper Machie, Brassware, Coconut items, Shell items, Terracotta, Ivory etc. Have reinforced the Goan tradition. Support the cause and visit our APARANT showrooms conveniently located in all the prominent towns of Goa. Carry Home sweet Goan memories that you will cherish for a life time.



GHRSSIDC

**Goa Handicrafts, Rural & Small Scale Industries Development Corporation Ltd**
A Government of Goa Undertaking

Crafts Complex, Neugi Nagar, Rua de Qurem, Panaji-Goa 403 001 India
+91-832-2228157, 2225328, 2224478, Fax: 2228158
Website: www.ghrssidc.org
Email: marketing@ghrssidc.org, md@ghrssidc.org

VISIT APARANT GOA GOVERNMENT HANDICRAFTS EMPORIA AT
APARANT EMPORIUM

- Crafts Complex, Neugi Nagar, Panaji, Goa. Ph. 2226448
- Panaji Residency, Panaji. Goa. 2425128
- Mapusa Residency. Ph. 2253267
- Margao Residency. Ph. 2730399
- Dabolim Airport. 2542347
- Vasco Residency, Vasco da Gama. 2513582
- Big foot, Loutolim, Goa 2858697
- Interstate Bus Terminus, Kadamba Bus stand, Panaji. Goa 2437216
- Udyog Bhavan, Opp. Menezes Braganza Hall, Panaji Goa., 2225421
- Calangute Residency. Handicrafts Emporium 2282878
- Rajiv Gandhi Kala Bhavan. Baba Kharak Singh Marg., New Delhi.

EXCLUSIVE DEALER FOR AHIMSA SILK





Government of Goa

# STATE DIRECTORATE OF CRAFTSMAN TRAINING

Shram Shakti Bhavan, Patto Plaza, Panaji – 403001, Goa. Phone : 2437060, 2437059



## INDUSTRIAL TRAINING INSTITUTE

▸ 1st I. T. I. was started in 1966 ▸ We have all together 10 Government and 4 Private I. T. I's

▸ Altogether we offer 63 courses in all 10 Govt. I. T. I.'s, out of which 17 courses are available for school dropouts having minimum of 8th std. pass, four courses for 12th std pass, 29 courses are for SSC passed outs and rest 13 are for BBBT passed outs.

### I COURSES UNDER CRAFTSMEN TRAINING SCHEME

| One year duration trade courses | | | Two year duration trade courses | | |
|---|---|---|---|---|---|
| Sr. No. | Trade | Entry Qual. | Sr. No. | Trade | Entry Quat |
| 1. | COPA | 12th Std | 1. | IT & ESM | -do- |
| 2 | DTPO | -do- | 2. | Fitter | -do- |
| 3 | Stenography | -do- | 3. | Turner | -do- |
| 4. | Secret. Pract. | -do- | 4. | Machinist | -do- |
| 5 | Hair & Skin Care | 10th Std. | 5. | Electrician | -do- |
| 6. | Craft Food Prod. | -do- | 6. | Inst. Mechanic | -do- |
| 7 | Steward | -do- | 7. | Ref. & AC Mech | -do- |
| 8. | Mech. Diesel | -do- | 8. | Electronics | -do- |
| 9. | Welder (Gas & Electric) | 8th Std | 9. | D'Man (Mech) | -do- |
| | | | 10. | D'Man (Civil) | -do- |
| 10. | Mechanic Tractor | -do- | 11. | Mech. Motor Vehicle | -do- |
| 11. | Plumber | -do- | | | |
| 12. | Cutting & Sewing | -do- | 12. | Multi skill course in electrical & electronics | -do- |
| 13. | Carpenter | -do- | 13. | Wireman | 8th Std. |

### II SHORT TERM COURSES

| S. N. | Trade | Entry Qual. | Duration |
|---|---|---|---|
| 1. | Date Entry Operator | 10th Std. | 6 months |
| 2. | Driver cum Mechanic (LMV) | VIIIth Std. | 6 months |

### III COURSES UNDER CENTER OF EXCELLENCE SCHEME

| S. N. | Trade | Entry Qual | Duration |
|---|---|---|---|
| 1. | Information Technology (BBBT) | 10th Std. | 1 year |
| 2. | IT Advanced modules (Hardware & Maintenance) | 10th Std. With IT (BBBT) | 7 months |
| 3. | In-plant Specialized training in IT | 10th Std. with Adv. IT | 6 months |
| 4. | Production & Manufacturing (BBBT) | 10th Std. | 1 year |
| 5. | Production & Manufacturing Advanced Modules | 10th Std. with P & B (BBBT) | 6months |
| 6. | In-plant Specialized training in P & M | 10th Std. with Adv. P & M | 6 months |
| 7. | Hospitality Management (BBBT) | 10th Std. | 1 year |
| 8. | H. M. Advanced Modules | 10th Std with HM (BBBT) | 6 months |
| 9. | In-plant specialized training in HM | 10th Std. with Adv H. M. | 6 months |
| 10. | Fabrication (Fitting & Welding)-(BBBT) | 10th Std. | 1 year |
| 11. | Fab. (F & W) Advanced Modules | 10th Std. with Fab (F & W) BBBT) | 6 months |
| 12. | In-plant specialized training in Fab. (F & W) | Adv Fab. (F & W) | 6 months |
| 13. | Automobile (BBBT) | 10th Std. | 1 year |
| 14. | Electrical (BBBT) | 10th Std. | 1 year |

## APPRENTICESHIP TRAINING SCHEME

The Department operates Apprenticeship Training Programme. There are 1309 seats available for training under this programme. The major industries covered under this programme are hotels. There are altogether 861 industires covered under this programme. The apprentices draw stipend depending upto the year of training. The miniumu stipend payable is Rs. 1090/- p. m. Government of India (NCVT) conducts the final examinations.

## T. C. P. CENTRES

Our training – Cum – Production centers produces attractive carved furniture items. Coir Door mats, Pottery items. Bamboo Items, Textile Materials, Etc.

### OTHER INFORMATIONS

- Seating Capacity 3532 seats. • Annual intake capacity for admission Govt. I. T. I.'s is 2940 & Pvt. ITI – 200
- Training Session begins on 1st August • Admission takes place in the month of June / July
- Average 1400 trainees pass out every year in both NCVT and SCVT final examinations.
- No Tuition Fees and Caution Money Deposit for ST/SC/BPL and all other candidates whose parental annual income is less than 24,000/-
- Merit scholarship of Rs. 125/- are offered to three trainees per unit of 16 trainees based on internal examination.
- BPL scholarship @ of Rs. 250/- per months is given to ST/SC/BPL and all other candidate whose parental annual income is less than 24,000/-
- Annual final trade test is held in July, every Year • Total output since 1966 is about 33,500 trainees.
- Placement assistance is given by the State Directorate of Craftsman Training for the successful I. T. I. trainees by organizing placement fair.










Goa... The jewel of India, the small former Portuguese colony famed for its natural beauty, culture, hospitality and secular nature of its people is ranked amongst the top holiday destinations of the world. With its essence lying in its vibrancy and cosmopolitan nature, Goa will leave itself etched in your heart and mind.

Sandy beaches, swaying palms, mesmerizing landscapes, meandering rivers, lush green spice farms, wildlife and bird sanctuaries, music, dance and local folk theatres, clubs, pubs, exciting night markets and gourmet dining, backwaters and adventure sports will leave you spoilt for choice. Time in Goa is just never enough...!

*GOA...The Joy de Vivre...!!*

**DEPARTMENT OF TOURISM**
Govt. of Goa
Patto, Panaji, Goa - 403001, India.
Tel. No. 91-832-2438750/52. Fax: 91- 832-2438756.
E-mail: goatourism@dataone.in
http://www.goatourism.gov.in

**GOA TOURISM DEVELOPMENT CORPORATION LTD.**
(A Govt. of Goa undertaking)
Trionora Apartments, Dr. Alvares Costa Road, Panaji - Goa.
Ph. 0832- 2224132, 2226515, 2226728. Fax: 0832-2430133
Email: reservations@goa-tourism.com
Website: www.goatourism.com



# येवकार अध्यक्ष
# विश्वजित राणे हांचे उलोवप



अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे 27 वे अधीवेंशन सोबीत अश्या ह्या सांखळी वाठारांत जाता ही आमका दिवचल-सांखळी-सत्तरी म्हालाखातीर खोशयेची गजाल आसा.

ह्या फा. आंतोनियु पेरेरा नगरांत जमिल्या वेदीवयल्या मानेस्तांक आनी चारय राज्यांतल्यान आयिल्ल्या कोंकणी मनशांक हावं आयोजन समितीचे वतीन हुनहुनीत येवकार दिता.

गोंयाभायल्यान आयिल्ले कोंकणी लोक हे मुळचे गोंयचेच जाल्ल्यान तांचे गोयांत येवप हें गांवघरा आयिल्लेभसेन, तांचे सोयरे म्हणून न्हय तर घरचेच म्हणून तांकां येवकार दिताना आमकां खेरीत खोस भोगता.

गोंय हे कोंकणीचे मूळपीठ आनी संसारांतले एकमेव कोंकणी राज्य म्हणून संसारभर शिंपडिल्ल्या कोंकणी लोकांक गोयाबद्दल भारी प्रेम आनी आपलेंपण आसा. ह्या आपलेंपणातल्यान तुमी आयल्यात तितक्याच आपलेपणातल्यान आमी तुमचे हांगा स्वागत करतां.

ह्या अधिवेशनाचे उद्घाटक म्हणून आमचे मर्दी श्री. दिगंबर कामत उपस्थित आसात. ताणी आमचे आमत्रंण स्विकारून आमकां व्हड उर्बा दिल्या. हांव तांचे स्वागत करता.

कोंकणीचे म्हालगडे, ज्ञानपीठ विजेते, पद्मभुशण भौ. रवींद्रबाब केळेकार अधिवेशनाक आशिर्वाद दिवंक मुद्दाम आयल्यात. तांकां हांव येवकार दिता.

ह्या 27 व्या अधिवेशनाचे अध्यक्ष डॉ. एच्. शांताराम, हे एक शिक्षणतज्ञ तशे कुशल प्रशासक तांचे अध्यक्षतेखाला हे अधिवेंशन अपेक्षीत यश प्राप्त करतले हाची आमकां खात्री आसा हांव तांचे स्वागत करता.

परिशदेचे आदले अध्यक्ष राज्यसभेचे ॲड. शांताराम नायक, आनी परिशदेचे हेर पदाधिकारी हांकांय हांव येवकार दितां.

गोंय, महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ अशा चार राज्यांतले कोंकणी लोक हांगा प्रदेश, धर्म, जात, लिपी हांचे भेद कुशीक दवरून एका माटवांत एकठांय जाल्या. ज्या मुखेल कारणा खातीर हें अधिवेशन भरलां तो एकचार हांगा सादला. अशाच एकचारान आमी तीन दीस रावूंया आनी कोंकणी मनशाचे उदरगतीसंबंधी चिंतूया आनी ती घडोवन हाडपाखातीर वावरूं या.

तुमचो हांगचो राबितो सुखकारक जावंचो म्हणून आमी सगळी तरेची वेवस्था केल्ली आसा. घरचेच कार्य समजून तुमी सहकार्य दिवंचें अशी विनंती करता.

परतून एकदां तुमचे सगळ्यांचें स्वागत करून अधिवेशन यशस्वी करपाखातीर तुमका उलो मारता.

देव बरें करूं.

साखळी हांगा फादर आंतोनियु पैरैरा
नगरांत जावपा आशिल्ल्या
अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या

**27 वे अधिवेशनाक आमच्यो शुभेच्छा!**



# वामन सीताराम काणेकार
# आनी घरचीं

## अधिवेशनाची कार्याध्यक्ष

# सौ. सुनिता गुरुदास काणेकार हांचे उलोवप



वेदीर हाजीर आशिल्ले मानेस्त, 27 व्या अधिवेशनच्या ह्या भव्य मंडपांत हाजीर आशिल्ले मानादीक व्यक्ती, आनी म्हज्या मोगाळ भावांनो आनी भयणीनों. ह्या पवित्र वेदीवयल्यान तुमकां सगळ्यांक हांव मनाकाळजासावन उर्बेभरीत येवकार दितां.

परिशदेचें अधिवेशन म्हणल्यार, कोंकणी मनशाक एक निमित्त एकठांय येवपाक एकामेकाडलो संपर्क अदीक घट करपाक तशेंच भाशेच्या गिरेस्त अस्मितायेची तांक वाडोवन तिची उदरगत करपाक. हे निमतान दरेका साहित्यिकांमदीं, शिक्षणीक बुद्वंतामदीं, कलेच्या उदरगतीचो आंवाठ वाडोवप्यांमदीं, निर्माण जाल्लें सुसुत्रपण अदीक बळिश्ट जावचें अशी हांव प्रार्थना करतां.

कोंकणी समाजाक विंगड विंगड कारणाखातीर वसणुको बदलच्यो पडल्यात पूण ह्यो वसणुको आनी तांच्यो दिको बदलल्यो तरीय आयज कोंकणी समाज कोंकणी मायेच्या मोगान हांगा एकठांय जाला. तुमी हांगा येवन आपलो तेंको दाखयला. अधिवेशनाच्या उदिश्टांचें सपन पुराय केलां आनी नवनिर्मितीचे दिकेन आनीक एक पावल घालां.

मानेस्तांनो, कोंकणीचो युगपुरुस शणै गोंयबाबाचे क्षेत्रमर्यादेंत रावपी आमकां कोंकण्याक अखिल भारतीय परिशदेच्या अधिवेशनाची ही दुसरी संद जी बावीस वर्सा उपरांत आयल्या. 16 आनी 17 मे, 1987 अशे दोन दीस हांगा साखळे, णववें अखिल भारतीय लेखक संमेलन सर्गेस्त चा. फ्रा. डिकोस्ता हांचे अध्यक्षतेखाला घडून आयिल्लें. त्यो सगळ्यो यादी दुबावाविरयत तुमच्या मनांत ताज्यो जाल्या आसतल्यो. दिवचल, सत्तरी हो वाठार कोंकणी भाशीक कार्यावळींक, संमेलनांक आनी महोत्सवांक आतां परको उरूंक नां. हांगा नामनेचे लेखक, कवी, कलाकार, समीक्षक आनी रसीक निर्माण जाल्यात ते अशाच कार्यावळीचें जैत अशें म्हणचें पडटलें.

परिशदेच्या ह्या 27 व्या अधिवेशनांत कांय परिसंवादांचें आयोजन केलां देखीक आयच्या युगांत कोंकणीचें अस्तित्व, कोंकणी शिक्षण फुडाराचें व्हिजन आनी मिशन, कोंकणीच्या लौकीक उदरगतीक बायलांचो सहभाग, युवक कोंकणीक कितले लागीं कितले पयस अशा

साबार प्रस्नाचेर तशेंच विशयांचेर ह्या तीन दिसांनी विचारमंथन जातलें. ह्या सगल्या परिसंवादानीं तुमच्या उपस्थितीन आनी विचार विमर्श करून सहकार्य दिवंचे अशें हांव तुमचे लागीं मागता. तेच सुवातेर आमी आपयिल्ल्या सगल्या अभ्यासकांनी आमचे विनवणेक मान दिवन हे परिसंवाद आकाराक हाडपाक दिल्ल्या सहकार्याखातीर तांचे उपकार आटयतां.

कोंकणी मनीस हो कवी मनाचो मनीस. संगीत मोगी, वाद्यांच्या तालार नाचपी धोलपी, म्हण्टकच सुखा दुखां उमाळ्यांरुपान परगटाय नासतना तो कसो रावत? कोंकणी भुयेन नामनेचे कवी जल्माक गाले. सैम मोगी, समाजमोगी, कवीनीं आपल्या उत्फर्क्यावरवीं समाजाक जीणेचें पडबींब दाखयलें. ताणी नांवलौकीक मेळयलें. अशाच एका म्हान कवीचें जल्मशताब्दी वर्स आमी मनयतात. तांचे यादीक आमी दोन कवी संमेलनां आयोजीत केल्लीं आसात.

संस्कृताय म्हळ्यार आमच्या जिविताचो कणो. आमचें पडबींब दाखोवपी अविभाज्य घटक. एकामेकाक आपली वळख अस्मिताय दाखोवपी, कळोवपी अशें म्हत्वाचें माध्यम. तीन दिसांच्या ह्या आयोजनांत गोंय, कर्नाटक, केरळ तशेंच मुंबय वाठारांतल्या लोकांच्या संस्कृतीरुपाचें दर्शन, सांस्कृतीक कार्यावळीच्या सादरीकरणावरवीं करपाची तजवीज केल्ली आसा. ता. 5 आनी 6 फेब्रुवारी अशा दोनय दिसांनी सांजेच्या सात ते णव वरामजगतीं ह्यो कार्यावळी जातल्यो हांचो तुमी आस्वाद घेवंचो.

आयज कोंकणी मनीस खंयच्याय क्षेत्रांत फाटी रावचो नां हाचो दिश्टावो जाता. खर संघर्श करून ताणे कोंकणीक जैतां मेळोवन दिल्यांत. सर्वश्रेष्ठ असो ज्ञानपीठ पुरस्कार ताणे मेळयला. आंतरराष्ट्रीय मळार ताणे नामना जोडल्या. तकनीकी मळारूय तो उदरगतीची तेंगशी गांठिल्लो दिश्टी पडटा. अशा अधिवेशनाच्या माध्यमांतल्यान आमी जोडिल्लीं जैतां सांबाळून दवरूंया आनी जागृतायेन आनी संघटीतपणान फुडली वाट मेळोवपाचो हावेस बाळगुया.

आयज, फाल्यां आनी परां अशे तीन दीस आमी हांगा सारतलीं. आमचे परीन सगळी वेवस्ता आमी केल्ली आसा. ती मानून घेवंची. आमच्या बऱ्या मागप्यानीं अर्थीक पालव, देणग्यो दिवन हें कार्य घडोवन हाडपाक आमकां फाटबळ दिलां. तुमचे सगळ्यांचे हांव चडावत उपकार मानतां तशेंच अखिल भारतीय परिशदेचे सगले मानादीक सदस्य जाणी सुचोवण्यो तशेंच मार्गदर्शन दिवन हें कार्य घडोवपाक आदार दिला तांचेय हांव उपकारी आसा. येवकार समितीचे सगळे कार्यकारी वांगडी जाणी सांगिल्ले प्रमाण आपलें सहकार्य दिवन हो आटाप घडोवन हाडला तांचेय हांव उपकारी आसा.

निमाणेकडेन, हे अधिवेशन येवजिल्ले प्रमाण तुमी एकामेकाच्या सहकार्यान फळादीक करतले आनी हें आयोजन म्हणल्यार आपले घरचेंच कार्य अशें समजून सोबोवन व्हरतले अशी आस्त बाळगितां आनी परिशदेच्या सदस्यांक म्हाका कार्याध्यक्षपदाची जापसालदारकी सांबाळपाक संद दिली देखून देव बरें करूं म्हण्टां!

जय कोंकणी!!

# अखिल भारतीय कोंकणी परिषदाचे 27 वे अधिवेशनाचे अध्यक्षीय भाषण

– डॉ. एच. शांताराम



वेदिकेरि असचे मानेस्तानु, आमंत्रित सोयऱ्यानु, कोंकणी भावु भयण्यानु आनी माध्यम मित्रानु,

अखिल भारतीय कोंकणी परिषद अस्तित्वयेवनु सत्तरि वर्ष जाल्लीं. एदोळुतांय परिषदाची सव्वीस अधिवेशन चोलनु नावाधिक कोंकणी ाहिती, पत्रिकोद्यमी, संशोधक, वाणिज्य आनी कैगारिका संस्थेचे अध्यक्ष, राजाकारणी हान्नी अध्यक्षता घेवनु चंद रीतीरी चोलोवनु देल्लेलें आस्स. आतां चोलचें सत्तावीसचें अधिवेशनाक म्हाका अध्यक्ष जावनु तुमी सर्वान चुनाव केल्लेलें आयकतना भरपूर आश्चर्य जाल्लें. ांव वयचे खंयचे पंगडांत मेळचो व्यक्ती न्हय. आजितांय कोंकणी भाषेक, समाजाक हांवें केल्लेले काम सांगून घेवंचें म्होणु हांव नमगना. शिक्षण क्षेत्रांतु कॉलेज प्राध्यपक, प्राचार्य जावनु सेव कोरनु, आतां शिक्षण संसथ चलोवचाक मार्ग दर्शन दित्ता आसचो सानु व्यक्ती हांव. हाका एक होड स्थान दीवनु तुमी सर्व गौरव दाखोवचें तुमगेलें सहृदयता लक्षण आस्स. तुमगेले विश्वासाक सम जावनु काम कोरची गेग्यता, शक्ती देवु दिव्वो म्होणू हांव मागता.

कोंकणी भास एक सुंदर, मोवाळ भास. ती एक राज्याक सीमीत न्हय. एक समाजा लोकोना उलोवची वापरची भास न्हय. महाराष्ट्र, गोवा, कर्नाटक आनी केरळ राज्यांतु ही बास वापरताती. भारतांतु सुमार पन्नास लक्ष जन ही भास उलायताची. तांतू आरेवास लाग्गी लाग्गी लोकु गोवांतु आसाती. हांगा एकुणिस सत्त्याशें (1987) इस्वी लागायत कोंकणी राज्य भास जावनु आस्स. केरळ राज्यांत कोंकणी, मलयाळम आनी तमिळ नंतर तिन्नी स्थानारी आस्स. रत्नगिरी थावन कोच्चीवरेन पश्चिम करावळी प्रदेशांतु विंगड समाजलोकां कोंकणी भासेंतु व्यवहार करताती. हो सर्व विंग-विंगड वृत्तीचे, मताचे आनी जातीचे जावनु आस्सती. हिंदु मतस्थांत सारस्वत, गौड सारस्वत, दैवज्ञ (सोनार), वानियांचे (व्यापारी), कुडमी (रैताची आनी कट्टोण बांदिताले), चप्टीकार (रान्टे), गुडिगार (कलाकृती निर्माण करताले), चम्मरांचे, मेस्तास (पात्तरा काम करताले) भांडाही (काप्पणेचे आनी वाजवेंचें) कार्वी, आनी गोवाचे गुरुव मराठा कोंकणे, क्रिश्चियन मतस्थांत मंगळूर रोमन कॅथोलिक आनी इस्लाम धर्मीय नवायेत, कुफीस कोंकणी उलयताती.

जगत्तांतु आस्ची स हजार भेसेंतु सुमार हजार भआरतांतु आस्सती. आमगेली भास आम्ची निधी आनी शक्ती. भारताक स्वातंत्र मल्लेलागायत भासे विचारान आश्शिल्ले उदार मन नास जावनु, भाषा दुरभिमान उदय जाल्ला. हाज्जी निमित्त अलक्ष जाल्लेल्या भासेंतु कोंकणी एक. कोंकणी उलोवच्या लोकांक हे भासे सौन्दर्य, मोवाळपण विसोर्ची घडी आयल्या. बहतेक शहरा आसचे कोंकणी लोकु ते प्रदेशाच्या विंगड भास तांगेली माय भास म्होणु सांगून घेवचांतु खुशी पावताती. तांका, केन्द्र साहित्य अकादेमी पूर्वी अध्यक्ष डॉ. सुनीतीकुमार चाट्टर्जीन सांगीलेवरी, तान्नी एक पुरीतन आर्यन भास उलयतात्ति म्हल्लली वळख ना. आमगेले राष्ट्राचे विंगड प्रदेशाचे लोकांक कोंकणी भासे परिचयु कोरनु दिवचे अगत्य आस्स. उत्तर हिंदुस्तानांचांक दक्षिण राज्यांतांनु आयलेले सर्व मद्रासी म्हल्ळेलीचूकी भावना आस्स. ही सम कोरचें कर्तव्य आमगेले सर्वाले जावनु आस्स. कोंकणी भासेक सुमार एक हजार वर्स इतिहास आस्स. हे भासेन विंग-विंगड जातीचे आनी मताचे लोकांक वोट्टु मेळयला. हे भासे उगम इंडो आर्यन भाषांचे मुलांतांनु आस्स. मराठी आनी गुजराती भासेक स्वल्प साम्य आस्ल्यारी,

कोंकणी मूल मैथिली प्राकृतांतु आस्स. एक कालारी कोंकणी मराठीची उपभाश म्होणु सांगातालींची. हें सम न्हय. कोंकणी मराठीचाक पूर्वी भास. क्रिस्तशक इकरा सत्यशी (1187) संवत्सरांतु उत्तर कोंकणाचे शिलाहर राय इम्माडी अभिजिताले शासनांतु कोंकणी वापरल्या. क्रिस्तशक चौदाचाल्स्तरी (1474) संवत्सरांतु गोवाचे बंडिवाडे मंगेशी देवळांतु मेळ्ळेल्या शिला शासन कोंकणींत आस्स. मराठी साहित्याचे मूल सोळा शतमाना धोर्नु मेळता. ज्ञानेश्वरी ग्रंथांतु भरपूर कोंकणी शब्द आनी मणियो मेळताती. मराठी भाशेंतु आजीकची हे शब्द प्रयोगु नाशिल्ले निमित्त मराठी उलेयतलेंक ज्ञानेश्वरी अर्ध कोर्नु घेवचाक कष्ट जाता. हे सर्व कस्सलें दाखयता म्हळ्यारि कोंकणी भास शास्त्रीय ग्रंथांतु वापरचाक सूक्त जाव्नु आशिल्ली आनी ज्ञानेश्वरी बरोचा साडे सशी (650) वर्स पैले जाल्ती आस्सिल्ली. एकुणवें ससष्टी (1966) तांय गोवाचे शिक्षणतज्ञ डॉ. ए. के. प्रियोळकार आनी डॉ. पिसुरलेंकर, प्रकांड भाषा विज्ञानी डॉ. गडगे कोंकणी मराठीची उपभासच म्होणु समर्थन करताले. जाल्यारी अखिल भारतीय कोंकणी परिषदाचे पूर्व अध्यक्ष आनी कोच्चीचे कोंकणी भाषा प्रचार सभेचे कार्यदर्शी श्री. एन. पुरुषोत्तम मल्यान कोंकणी वेगळी स्वतंत्र भाषा म्होणु वाद केल्लो. हांगेले वादाक नावाधिक सर सी. पी. रामस्वामी अय्यर, द्राविड भाषा तज्ञ डॉ. टी. पी. मीनाक्षी सुंदरम आनी केरळा विश्वविद्यानिलयाचे कुलपती प्रो. सॅमुअल मथायन समर्थन दिल्लें. फेब्रुवारी सव्वीस एकुणीस पूवुणशें (26.02.1975) दिवस देवनागरी लिपीक बरयल्ली कोंकणी भारताची एक स्वतंत्र शास्त्रीय भास म्होणु केंद्र साहित्य अकादेमीन मान्यताय दिल्ली. एकुणवीस बान्नवींतु (1992) भारत सरकारान भारतीय संविधानाचे आठवे वळेरींतु कोंकणी मेळोनु राष्ट्रीय भासेचे स्थान मान दिल्लें. आजी मंगळुरु विश्व विद्यनिलयाच्या थोडे कॉलेजांतु पदवी हंतारी दुसरी भास जावनु शिकचाक अवकाश आस्स.

कोंकणी भषिक पयलीं सरस्वती न्हंयचे किनाऱ्यारी मळ्यारी भारताचे वायुव्या दिकांतु आस्चे आयचे आफघाणिस्थान धोरनु सौराष्ट्र वरेन आशिल्ले प्रदेशांतु वस्ति कोरनु आशिल्ले. क्रमेण बर्गाला निमित्त देशांतर वोच्चें पळ्ळें. सल्प लोकु पश्चिम समुद्र करावळी मार्ग धोर्नु गोवा पावले. आनी स्वल्प लोकु पूर्वाक वच्चून बिहार, बेंगाल पावले. तस्सी जावनु कोंकणी आनी बेंगाली भासेक सबार सारकें पोळोवेत. कोंकणीक खंयचे कालारी राजाश्रय मेळनी. सुमार पांयशीं वर्ष फुडें गोंयच्या पोर्चगीसान कोंकण्याली भास, संस्कृती, धर्म आनी जीव शोषणे कोरू सुरू केलें. हाजे निमित्त बहुतेक कोंकणी लोकु पश्चिम करावळींतु केरळांतु कोच्ची तांय आनी महाराष्ट्रा दिकान धावनु वोच्चून थंय थंय वस्ती जाल्ली. हांगेल्य होंदवाणिका समर्थीन थोडे काल भीतरी तांची स्थळकवोट्टुमेळ गेले. हाजे निमित्त कोंकणी लोकु भासेक कन्नड, देवनागरी, आन रोमन लिपी वापरताती. भासे विचारांतु आसचे सवत धोरणे आजि कोंकंणी बासे विचारांतु एक जागृती उद्भव जाल्या. हे प्रदेशांक वचून राबिले लोकान खंचे वाठारा गेल्ल तरी मांय भा कोंकणी विसरनाशी, त्या वाठारांतुली भास शिक्कून, प्रावीण्यत पावुनु साहित्य कृषी कोर्नु नांव घेतले. राष्ट्रकवी मंजेश्वर गोवि पै, पंजे मंगेश राव, एम. एन. कामत हान्नी कन्नड साहित्या अमूल्य कृती दीवनु नांव केल्लें. खंयचे परिस्थितीरी गडी, भास जाती मत विचारान चलयल्या झगड्यांत कोंकणे भाषिकान भा घेनी. धनीक दुर्बळे म्हळ्ळेले भावनेक अवकाश दीनी. आि कर्नाटकांतु चाळीस शत शिक्षण संस्थो कोंकणी लोकु चलयत आस्साती. केनरा, कॉर्पोरेषन आनी सिंडिकेट बैंक तस्सले वाणिज संस्था स्थापन केल्लेले, मणिपाल तसल्या आंताराष्ट्रीय नांव पावि शिक्षण क्षेत्राद्वार जगत्याचे विंग-विंगड प्रदेशांतु संस्था निर्मा केल्लेली कीर्ती कोंकणी लोकाली. कोंकणी एक आधूनिक आर्य भास, विंगड भाषे संपर्कान ही भास संपद्भरित जावनु वाडिल्या कन्नड, पोर्चुगीस, अरेबिक, मल्याळम, मराठी, तुळु, हिंदी, इंग्ली आनी पर्ष्यन भाषे शब्द आजी कोंकणींतु भरशल्लें. हें सहज प्रक्रिया अंग्रेज भास वाड्डिली आनी आजी वाडता आसची ही रीतीरी भारतांतु देशी भासेन छापीलीं पयले पुस्तक कोंकणी भाशेंचें - एक अंग्रेज पाद्री, फादर थॉमस स्टीफन हान्नीं बरयले दोत्रीन हे पुस्तक क्रिस्तशक सोळापांसैष्टींतु (1665) छापलेंलें, आठरासस्से (1886) संवत्सरांतु मुद्रित जाल्लेलें 'ओ कोंकणी'कोंकणी भासेचे प्रथम वार्तापत्र.

कोंकणी लोकु सर्व सामान्य बुदवंत आनी मेधावी. आर्यन जनांगाचें जावचे निमित्त बहुतेक सुरूपी. मायेस्त अंतस्कर्णेचो. जाल्यारी व्यवहारी मनोभावाचे. तांगेली धार्मिक सहनशीलता नावापाविली. सुधारणा मनोभावांतु मुंचोणीरि आस्सून, अंतरजातीय वार्डिको, विधना पुनर्विवाहु, अस्पर्शता निवारण, वयस्क शिक्षण तस्सले क्रियात्मक काम करताती. धरलेलें काम सोणा आसी कोर्चे दृढमन हांगेलं. कामागौरव दवोरनु घेतिल्लो समाजु. कोंकणी भाषिक मरायादेन दीस काडचाक, खंयचे नमुने वृत्ती कोरचाक तयार आस्साति. हे मूलतः कृषिक आनी व्यापारी. आजी जीवनाचे खंयचे क्षेत्र पळेल्यारी नावकेल्लेले कोंकणी मेळताती. विद्वान बिडारम कृष्णप्पा, पंडित तारानाथ, वामनराव वर्दे वालावलीकार, डॉ. सालतोरे, वी. एस. कुडवा, डॉ. तोन्से माधव अनंत पै, डी.

. मंकेकर, टी. ए. पै, जेनरल शिवराम, बेनेगल नरसिंहराव, श्रीनिवास मल्या, कमलाबाय चट्टोपाध्याया, करनाड सदाशिव , एम. वी. कामत, जोकीं आल्वा, वयलेट आल्वा, नाथ पै, र्ज फेर्नाडीस, शंषुद्दीन, हफीस्क, किशोरी आमोणकार, गुरुदत्त, म बेनेगाल, पंडरीबायी, गिरीश कर्नाड, अंनतनाग, शंकर नाग, रियो मिरांडा, चार्ल्स कोरैया, हे सर्व कोंकणी भाषिक. पट्टी डता वता. ताका अंत्य ना.

कोंकणी लोकांक संपद्भरित सांस्कृतिक परंपरा, वैविध्यता नी स्पष्ट साधन केल्लेले भरम आस्स. हांगेले एकात्र भाव, उमेदी शेष उल्लेख करचे सारकें आस्स.

एक समाज प्रगतीक तीन अंश प्रमुख - भास, साहित्य नी संस्कृती, भास वाडची, उलोंवची निमित्त. फुडें कुटुंबांतु व भयण्यो सर्व वोट्ट आस्तार्ली. चड लोकांली संपर्क निमित्त यभासेन उलोवंची सुलभ आसिल्लें. आयचे कुटुंबांत धोव बायल नी एक जांवो दोनी चेरडुवां. वोट्टु मेळचो, उल्लोवंचो अवकाशु मित. इंग्लीष भाषे व्यामोह चडता वचोलून चर्डुवांन इंग्लीशान तोवंचाक आनु अम्मा उत्तेजन दिताती. घाटी वयरी, फुळ्ळे मैसूर स्थानांतु राबिल्ले, चडावत कन्नड भास वापरताती. थंय दादले गते भितरी कन्नडान उलोवन कोंकणी घरा भित्तरी मात्र उरली. ाका दिसता कोंकणी भास वोरून हाल्लेली भरम आजी आमगेले मन कॅथोलिक क्रिस्ती बांधवांक मेळका. तान्नी तांगेले व्यवहारांतु ोंकणी वापरताती. तांगेले इगर्जेतु देव संदेशु, प्रवचन कोंकणींत ताती. कोंकणी प्रयोगु प्रादेशिक जावन आस्सून एक प्रदेशांत ल्लयली भास दुसरे कडेच्यांक अर्थ जांवचें कष्ट. मंगळूरकाराले ोंकणी प्रयोगु कारवारकारांक सम अर्थ जायना. गोंयकारान ानी केरळाच्यान उलोवंची कोंकणी बाकींचांक अर्थ जावंचे ष्ट आस्स. हे सर्व त्या त्या प्रदेशांतु आसचे भासेचे प्रभावु. ह्या मस्याक असचो एक परिहारु वार्डिके संबंदु. एका प्रदेशाचान ानेक प्रदेशाची चली हाडचे, दिवचे केल्यारी संपर्क वाडता, ासे विनिमय सुलभ जावचा साध्यता आस्स. खंयचे भासेंतु ाश्वत जावनु उरचे व्याकरण नियम शिवाय शब्दकोश न्हय हळ्ळेले आम्मी विसोरचा नज. उतरां भांडारा काम आजी स्वल्प ट्ट जाल्यां. हें काम चड उमेदेन मुकार्सिल्यारी एका प्रदेशाचांक नेक प्रदेशांत वापरचे शब्द अर्थ कोरन घेवंचाक सुलभ जावचे ाव आस्स.

कोंकणी साहित्य आजी वाडता गेलें. बरयताले लेखक चड ाल्याती. विविध साहित्य प्रकारांतु हातु केळयता आस्सति. ाहित्य क्षेत्रांतु उत्कृष्ट मानाची ज्ञानपीठ प्रशस्ती सुद्दा कोंकणीक मेळ्या. प्रकाशाक येता आसचे नवे नवे लेखकांन चांग मट्टा साहित्य दिवचाक प्रयत्न कोरनु भास वाड्डोका. कोंकणी साहित्याक चड मोल येवंका जाल्यारि, तें हेर भासे प्रदेशाक पावंका. तसीं बरे भासेचे उत्तम साहित्य कोंकणीक तर्जिमा जावका. कोंकणी भाषिकांतु दोत्री भासेचे प्रभुत्व आस्सून सुंदर भाषांतार कोरचे सामर्थ्य आशिल्यान हे कामाक मुखारी आयल्यारि, कोंकणी साहित्य संपन्न जावनु, साहित्याची रुची विंगड भाषिकांक मेळच्याक अनुकूल जात्ता.

कोकणी उलयतले लोकु विविध जाती, मत आनी वृत्तीचे. तस्सी जावनु, तांगेल्या संस्कृतींतु वैविध्यता आस्स. कोंकणी संस्कृती बहु संपद्भरित. हे वोरोनु घेवंचे आमगेले आद्य कर्तव्य. कोंकणी भाषिकालें नाटक, संगीत, नृत्य, चित्रकला - सवांतु ताजे एक चंदाय आस्स. वेगळे वेगळे संदर्भारी आमी सांगचे पद, सोभाने, होवळ्ये आनी आद्गत्यो आयकल्यारी, ताजे अर्थ मनन कोरनु आनंद पावेत. आमी सर्व घरांतु आनी पूजा स्थानांतु (देवळ, इगर्ज, मसीदी खंयचेंय आस्सत) पूजा, पुनस्कारु आनी परबे आचरणा करताती. हे पूरा क्रियांक एक अर्थ आसता. कारण आसता. ते आमी आमगेल्या चेरडुवांक सांगका. आयच्या चेरडुवांक आमगेल्या संस्कृतीच्या उगम, वाडी, आचरणेचा कारण कळ्यारी, ती खंडित आमगेली पुरातन संस्कृती वोरोनु घेताती. मुकारसिताती आनी वाडयताती. न्हय जाल्यारी हे सक्कड अर्थ नातिल्ले म्होणु विसोरनु संस्कृती नाश जावचाक पाव आस्स.

कोंकणी भाषिकांक तान्नी चलत आयिल्ली सांस्कृतिक आचरणा, वैविध्यता, वास्तविक साधना केल्लेली भरम आस्स. तांगेले मुखारि आसचे दोनि समस्या म्हळ्यारी : सर्वांक अर्थ जावंची भाषा प्रयोगु आनी समान लिपी. लिपी एक समस्या म्होणु म्हाका दिसना. आजी कोंकणी तांगतांगेले प्रादेशिक लिपींत बरयताची व्हय. संविधानाची आठवी वळेरींत मेळ्ळेली मान्यता देवनागरीक आस्स. हे संदिग्द कालारि वयस्कांक तांगेल्या हे प्रायेरी देवनागरी लिपी शिकचे असाध्य आस्सत. आमी सर्वान आमगेले चेर्डुवांक प्राथमिक हंतांतु देवनागरी लिपी शिकचे तशी उमेदी दिल्यारी, तांगेले कालांतु ही समस्या ताजे इतल्याक मायाग जात्ता. हे विषयांतु झगडे कोरचे बदल थोडी सहन घेवंचे बरें. कोंकणी भाषिकांक आसचे बुदवंतपण, दर्लेन काम सोणा अशी कोरचे सामर्थ्य आनी नवे नवे वाटसोदुचे गूण निमित्त, तांका खंयचे समस्या होडी दिस्सना म्होणु म्हाका दिसता.

देवु बरें कोरो.
जय हिंद, जय कोंकणी

साखळी हांगा फादर आंतोनियु पैरैरा नगरात जावपां आशिल्ल्या
अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या
27 वें अधिवेशनाक आमच्यो शुभेच्छा!



**MAHESH MAPXENCAR** (Proprietor)
F-11, 'SAPANA CHAMBERS'
BEHIND GRACE NURSING HOME,
MARGAO GOA.
TEL NO: 2704183 & 2731445.
Email: mapxy@sancharnet.in
(HIRER OF HEAVY EARTHMOVING MACHINERIES)

&

**GRACE CARDIAC & GENERAL HOSPITAL**
(Partner)
OPP B. P.S.CLUB,
BEHIND ASRO HOUSING SOCIETY.,
PAJIFOND,
MARGAO GOA.
TEL NO: 2725391 & 2725392

# परिशदेक आसूंक जाय तांक मार्गदर्शन करपाची





उदय भेंब्रे

अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेक 70 वर्सां जाल्यांत. ह्या 70 वर्सांच्या काळांत परिशदेन कोंकणीभाशी रावतात त्या वेगवेगळ्या वाठारांनी अधिवेशनां घेवन जागृताय केल्या. ते जागृतायेंतल्यान खूबशा वाठारांनी कोंकणीचे उदरगती पासत वावुरपी संस्था स्थापन जाल्यात आनी तातुंतल्यो कांय संस्था बरे रितीन क्रियाशील आसात.

परिशद अखिल भारतीय पावंड्यावयलीं साहित्य संमेलनांय घेता आनी कोंकणी साहित्याची वळख घडोवन ताच्या प्रसाराक प्रोत्साहन दिता. मुंबय ते कोची मेरेन कोंकणी भाशी लोकांमदीं आज जी जागृताय दिसता ताचें खूबशें स्रय परिशदेक दिवंक जाय. साहित्य अकादेमीची मान्यताय, संविधानाच्या आठव्या परिशिष्टांत आस्पाव बी साध्य करपाच्या वावराकूय परिशदेन हातभार लायला.

परिशद स्थापन जाल्ली तो काळ आनी ती परिस्थिती आनी आयचो काळ आनी परिस्थिती हांचे मदीं खूब अंतर आसा. आदलो काळ संघर्षाचो आशिल्लो. त्या संघर्षांतल्यान वा खेरीत भाशेच्या प्रयत्नांतल्यान कोंकणीक कितलींशींच दारां उक्तीं जाल्यांत. कोंकणी भाशेक जी सुवात फावता ती मेळूंक लागल्या. कोंकणी साहित्य, कला, संस्कृती हांची वाड जावपाची वाट मेकळी जाल्या. ताची गवाय आत्रे–पयऱ्यान मेळटा. केल्ल्या प्रयत्नांचें फळ मेळ्ळां वा मेळूंक लागलां. अशें आसलें आनी आज संघर्षाची गरज नासली तरी प्रयत्नांची गरज सोंपूंक ना. भाशेच्या आनी संस्कृतीच्या विशयांत वावर सोंपलो अशें केन्नाच घडना. नव्यो गरजो, नवीं आव्हानां सदांच आसतात

आनी तांकां फुडो करून येस मेळोवप गरजेचें आसता. थांबलो तो सोंपलो. 'चलत राव, गरज थंय धांवत वच' ही मंत्र मतींत धरून वागले जाल्यारूच आमी काळाबरोबर फुडें वचूंक पावतले. हो अखंड प्रवास – एके पिळगे फाटल्यान दुसरे पिळगेत करपाचो रिले सर्तीभाशेन. फाटल्या कांय पिळग्यांनी ती जाणविकाय दाखयल्या. हाचे फुडल्या पिळग्यांनीय तो माग4 आपणावपाची गरज आसा.

आज भोव करून जाय तो रचनात्मक वावर. पूण कसलो? ह्या प्रस्नाची जाप सोदपाक आमी परिशदेच्या पयल्या अधिवेशनांतल्या थारावांचो आनी त्या संबंदान जाल्ल्या वावराचो नियाळ करूंक जाय. पयले परिशदेंतल्या कारभाऱ्यांनी द्रश्टेपण दाखयल्लें आनी कांय थाराव पास केल्ले. ते अशे :

- कोंकणी उलयतल्यांनी आपल्या दिसपट्ट्या वेव्हारांत कोंकणीचो उपेग करचो. पत्रवेव्हार, हिशेबपटी आनी हेर बरप कोंकणींत करचें.
- सरकारान मुळावे शिक्षण देवनागरी लिपींतले कोंकणींत दिवपाची वेवस्था करची. कोंकणी भुरगीं आशिल्लेकडेन कोंकणी मुळावी शाळा उगडची. गरजेचीं कोंकणी पाठ्य पुस्तकां उजवाडावचीं.
- जनगणने वेळार कोंकणी उलोवप्यांनी आपणाली आवयभास कोंकणी म्हूण नोंद करची. पुस्तकां, नेमाळीं, पत्रकां कोंकणींत उजवाडावचीं.
- एकापरस चड लिपी वापरिल्ल्यान अंतरां निर्माण जातात तीं ना करपाक ल्हवुल्हवू समस्त कोंकणीभाशी समाजात देवनागरी लिपी आपणावची.

हातुंतल्या दर एका विशयांत प्रगती जाल्या. कोंकणी शिक्षणांत पावल्या, पुस्तकांची उजवाडावणी वाडल्या, जनगणनेंत कोंकणी मायबास म्हूण सांगतल्यांचो आंकडो वाडला. आदीं पांच लिपी वापरताले, आज तीन लिपी वापरतात. म्हणचे प्रगती जाल्या आनी जाता. पूण 70 वर्सांचो काळ मतींत घेतल्यार प्रगतीची गती मंद आसा. ही गती वाडोवपाचो वावर परिशदेन आंगार घेवपाची गरज आसा. आनी एकटे परिशदेन न्हय, तर कोंकणी पासत वावुरपी सगल्याच संस्थांनी. पूण एका सुत्रात आनी एके दिशेन हें जावचें हे खातीर तें परिशदेच्या मार्गदर्शनान जावचें.

परिशदेच्यान ते खातीर करूं येता तें अशें :

- आत्रे-पयऱ्यान चारूय राज्यांनी वावुरपी संस्थांच्या प्रतिनिधींक एकठांय हाडून एका-एका विशयाचो खोलायेन अभ्यास करचो आनी धोरण तारावचें. तें धोरण चालीक लावपाक त्या त्या संस्थांक परिशदेन मार्गदर्शन करचें आनी आडखळ आयल्यार ती हुपपाक तांकां पालव दिवचो.
- परिशदेत नेमान एक परिपत्रक काडून तें संस्थांक धाड[...] वेगवेगळ्या क्षेत्रांनी कोंकणीक फुडें व्हरपाक कसल[...] कार्यावळी घडोवन हाडच्यो, कसल्यो येवजण्यो आंखच्य[...] खंयचे दीस पाळचे, तांचें म्हत्व कितें हे विशींचें मार्गद[...] त्या परिपत्रकांत आसचें.
- खंयच्याय राज्यांत एखाद्री कार्यावळ वा येवजण ख[...] फळादीक जाली जाल्यार ते विशींची खबर हेर संस्थांक दि[...] तांणीय ती येवजण वा तशे तरेची येवजण चालीक लाव[...] म्हूण तांकां आग्रो करचो.
- खंयूय कोंकणीचे आड कितेंय घडटा जाल्यार थळाव[...] लोकांच्या आदारान ताचेर उपाय करपाक परिशदेन फुडाक[...] घेवचो.
- कांय कार्यावळी वा येवजणो हांची कणदार आखणी कर[...] नमुने म्हूण त्यो सगल्या संस्थांक कळोवच्यो.
- खंयूय कितेंय चुकता आनी ताका लागून कोंकणी भाशे[...] वा चळवळीचें लुकसाण जाता जाल्यार तें सुदारपाचे उप[...] सुचोवचे.

थोडे भितर सांगचें जाल्यार परिशदेन थींक टँक आनी मार्गदर्शी जावन वावुरचें. ते खातीर, कोंकणीच्या वावरांत चारूय राज्यां[...] क्रियाशील आशिल्ल्यांक आत्रे-पयऱ्यान एकठांय हाडून अखि[...] भारतीय पावंड्यार वा समस्त कोंकणी समाजाक नदरेमुखार दवर[...] विचार-अभ्यास करचो.

हें सगलें करतना तशेंच अधिवेशनां, साहित्य संमेलनां हां[...] आंखणी करतना परिशदेन एके गजालीची जाणविकाय सदां[...] धरची. ती अशी : कोंकणीक आजमेरेन जीं जैतां मेळ्ळीं [...] सत्तेवरवीं वा दुडवांचे तांकीवरवीं न्हय. जैतां मेळ्ळ्यांत तीं नि[...] आनी प्रामाणिक प्रयत्न हांचे वरवीं. देखून दर एका मळार आनी [...] एका पावंड्यार कोंकणी भास, संस्कृती आनी अस्मिताय हांचेवय[...] निष्ठेक म्हत्व दिवचें, ते निष्ठेचेर पातयेवचें आनी ते निष्ठेचो भौम[...] करचो. निष्ठेचें म्हत्व उणें लेखलें जाल्यार आज राजकारणाच[...] जशी दुर्दशा जाल्या तशीच फाल्यां कोंकणी चळवळीची जावच[...] तशें घडलें जाल्यार कोंकणीचीं सगलीं जैतां व्यर्थ वतलीं. निष्ठेच[...] बळार आमी गोंय वाटायलें, निष्ठेच्याच बळार ताचें घटकराज[...] केलें. पूण म्हत्वाच्या सुवातांचेर फावो त्या मनशांक बसोवपा[...] शाणेपण आमी दाखयलें ना. आत्रे-पयऱ्यान गोंय लजेक पडटा [...] आमी केल्ल्या चुकांक लागून. कोंकणी चळवळी संबंदात तरी तं[...] घडूंक फावना.

# संस्थात्मक वावराची परंपरा





डॉ. तानाजी हळर्णकार

खंयचेय कृतीक थोडेंतरीं मॅनेजमेंट लागताच. मागीर ती कृती व्हड राजकारभार चलोवपाची आसूं नातर एखादे भाशेची चळवळ चलोवपाची आसूं. आनी मॅनेजमेंट म्हटलें म्हणटकीर मागीर थंय वेगवेगळे विभाग, विभागांमदलें संयोजन, नियोजन, आयोजन आनी प्रशासन आयलें. ह्यां वेगवेगळ्या विभागांचो सांबाळ करप हे एकट्या - दुकट्याचे तांकी भायलें जाता ते खातीर मनीस बळाची टीम लागता. एक व्यक्ती कितकीय सक्षम आसली, कितलीय फिशाल आसली, तरी तिका सगळ्यांच विशयांचें गिन्यान आसूंक शकना, आनी तें आडवादान कोणायकडेन आसलें, तरी ताचे काळा-वेळाचे मर्यादिखातीर तो तें सगळें तोलून घेवंक शकना. हांगा दोन हात उणे पडटा. चड हातांची गरज लागता. हे गरजेंतल्यान संस्थेचो जल्म जाता.

चडशा चळवळींचें उद्दीश्ट हें भौशीक स्वरुपाचें आसता. अशे चळवळिंतल्यान जाल्ल्या फळाचो लाब अनेक व्यक्ती घेता. अनेक व्यक्तींचें एकच उद्दीश्ट आसता तेन्ना एकोडो वावर करून क्षमतेची विभागणी करचेपरस एकत्रीतपणान केल्ल्या वावराची क्षमता वावराक लागपी हातांच्या आंकड्यांचे परीन वाडटा आनी कार्यसिद्धी सोपेपणी सफल जाता. म्हणून समविचारी एकठांय येवन संस्था घडयता. कार्याच्या उद्दीश्टाक भौशीक आयाम आशिल्ल्यान, समाजय व्यक्तीगत कार्यापरस संस्थात्मक कार्याक चड पसंती दिता. पर्थून व्यक्तीक तिची स्वताची एक प्रतिमा आसता. तिची आपलीं अशी धार्मीक सामाजीक, राजकीय तत्त्वां आसता. ह्यां तत्त्वांकडेन मतभेद आशिल्ल्यां लोकांक अशे व्यक्तिची ॲलर्जी आसता. अशे व्यक्तिच्या तत्त्वांक लागून मागीर तिच्या कार्याकडेन सहभागी जावप कुस्तार जाता संस्था म्हटली कीं हें अशे तरेचें वैयक्तीक आफूड-भश्ट उरना. सगळ्यां प्रकृतिंच्या आनी तत्त्वांच्या लोकांक आस्पावन घेवनय, संस्थेचें अशें वेगळें तत्त्व आनी सत्त्व सांबाळप संस्थेक शक्य जाता. सरकाराच्या दरबारांतय व्यक्तीपरस संस्थेक चड पसंती मेळटा. ह्यां कारणांक लागून व्यक्तीपरस संस्था चड सर्वमान्य जावंक पावता.

खंयचीय संस्था जल्माक घालप तशें व्हडलेंशें कठीण नासता. आठ-धा समविचारी एकठांय आयले की संस्था निर्माण जाता. कठीण आसता तें संस्था चलोवप. ताचेय परस चड कठीण आसता तें तिका वेवस्थीत चलोवप. फकत चलोवपच न्ही तर तिच्या कार्यांत सातत्य दवरप. कांयजाण संस्था निर्माण करपाचें आरंभशूरपण बेस बरें करता. एक दोन वर्सां वावराचो गडगड घालता. उप्रांत आपली उमेद भागली म्हणटकीर संस्थेक पोरकी करता. फाटल्यां पंचवीस वर्सांच्या काळांत जायत्यो संस्था जल्माक आयल्यो. आयचे घडयेक तातुंतल्यो अवघ्योच उरल्यात. ज्यो उरल्यात तातुंतल्यो सामक्यो उण्यो कार्यरत आसा. सातत्यान वावर करपी तर हातांच्या बोटार मेजपा इतल्यो उरल्या.

संस्था वेवस्थीत चलतली, नावा रुपाक येतली तर कांय पथ्या पाळपाची गरज आसा. संस्थेचे कारभारी प्रामाणीक, संस्थेच्या उद्दीश्टांची लागणूक मानपी आसूंक जाय. संस्थेखातीर ताणी आपलो वेळ, स्रम आनी गरज पडल्यार दुडू दिवपाची तयारी दवरूंक जाय. कारण विनाकारण जाल्ली टिका सोसपाचो संयम बाळगूंक जाय. संस्थेचो आर्थीक वेव्हार चोख दवरपाची दानत दवरूंक जाय. संस्थेचो कारभार पारदर्शक दवरपाचें मनाचें व्हडपण दाखोवंक जाय. घरचें खावंन लश्कराच्यो भाकरी भाजपांत समादान मानूंक जाय.

संसारांत अशा निसुवार्थी, त्यागी वावुरप्यांची एक लांबची लांब परंपरा आसा. आपले कुवतीन ताणी आदर्श अश्यो संस्था उब्यो करून भव्य – दिव्य अशें कार्य केलां. आपल्या अशा राश्ट्रीय वावरात राश्ट्राक अभिमान दिसपासारकें योगदान दिला. अशें करतांना खचीतच ताणी आपलें वैयक्तीक लुकसाण सोंसला. समाजकार्य करूंक भायर सरतल्याक हो असो त्याग करचोच पडटा. अशी तडजोड करचीच लागता. समाजय अशा मनशांक विसरना. ह्या नात्या रुपान, तांका तांच्या मोलादीक वावराची पावती दिता.

संस्थात्मक वावराची ही परंपरा आतां खंडीत जावंक लागल्या. आतां लोकांक आदलेवरी संस्थांचें आकर्शण उरूंक ना. लोकांचो भर आतां वैयक्तीक योगदानाचेर उरूंक लागला. संस्थेमार्फत काम करचे बदला तें वैयक्तीक पांवड्यार करपाचो कल दिसूंक लागला. संस्थेखातीर काम केलें तर संस्थेचें नांव जाता. संस्थेचो फायदो जाता. तोच वेळ, स्रम आनी दुडू वैयक्तीक वावराचेर खर्चिल्यार वैयक्तीक नांव आनी फायदो जाता अशे लोक आतां वेव्हारी विचार करूंक लागला. सामुदायीक, सार्वजनीक असो आदलो संस्थाप्रणीत विचार आतां व्यक्तीगत असो संकुचीत जावंक लागला.

हो असो व्यक्तीगत विचार सांस्कृतीक, साहित्यीक संस्थांपुरतो शिमीत ना. तो सार्वत्रीक जाला. ताका आमी आमचे जिवनपद्धतीचो वांटो केला. आयची आमची जीवन पद्धत ही व्यक्ती केंद्रीत पद्धत. आमकां सगळो संसार व्यक्तीगत जावंन व्यक्तीभोवतणी राविल्लो जाय. आमचो वेव्हार व्यक्तीन सुरू जाता आनी व्यक्तींतच सोंपता. व्यक्ती स्वातंत्र्याचे ओडीत आमी एकोडेंपण आनी एकमुळेंपण स्विकारलां. ही अशी मानसिकता सार्वजनीक, सामुदायीक वावराक वाव दवरिना. हे अशे एकमुळे संस्कृतींत संस्था – संस्कृती बसना. खुद्द घरांतली कुटुंब संस्थालेगीत हे मानसिकेंतल्यान सुटूंक ना. आर्दी रासवळ कुटुंब संस्था गेली. आतां एकोडी कुटुंबसंस्था अशीर जायत रावल्या. पणजो आजो वृद्धाश्रमांत आर्दीच गेल्ले. आतां आवय बापूय वचूंक लागल्यात. दोन मनशाचें कुटुंब इतकी मोटवी आमी कुटुंब संस्था करून दवरल्या.

आदले संस्था परंपरेंत, संस्था चालक वावुरताले ते ते संस व्हड करूंक. संस्थेमुखार ताणी आपणाक दुय्यमच दवरलें. आप नांव आनी स्थान संस्थेक नांव आनी स्थान दिवंक वापरलें. आपल नावाचो आनी स्थानाचो फायदो संस्थेक करून दिलो. आय संस्थे–परंपरेंत उरफाटी तरा दिसता. आयज कांय लोक संस्थेला येता ते पर्थून आपली व्यक्तीगनत सुवार्थ सादूंक. पर्थून स्वकेंद्र मानसिकता घेवन. संस्थेच्या नांवार आपलें नांव व्हड करू संस्थेच्या स्थानाच्या आदारान आपलें स्थान वाडोवंक एकवटाच बळग्यार, आपापले वैयक्तीक फायदे पदरांत घालून घेवक, कामग लोक ट्रेड युनियनांची संस्था निर्माण करतात. तांचो हे संस्थेकड संबंध हो मालकाकडल्यान आपल्यो मागण्यो मानून घेवपापुर आसता. मालकाक धाक दाखोवंक ते आपल्या युनियनाचो वा करता. हांगां कामगारां खातीर संस्था हें शस्त्र आसता. शस्त्रा वापर नासता तेन्ना शस्त्र कुशीक दवरप जाता. आयच्या बऱ्या संस्थाची स्थिती ही अशी ट्रेड युनियनाची स्थिती जाल्ली दिसत गरज लागता तेन्ना संस्थेकडेन वचप. ना तेन्ना संस्था पयस दवर अशान संस्था चलना. आनी ती चल्लीना तर तिचो उपेग जाय म्हणून दुसरी संस्था निर्माण करप. तिसरी–चौथी करपय क कडेन चलता.

कांय संस्थांनी विचित्र अशे दुर्दैवी प्रकार घडटात. संस चालक समाजसेवावृत्तीचे आसता. पूण वैयक्तीक मतभेद उबे जावं तांचेमदीं दोन गट निर्माण जाता. दोनय गटांतल्यांक संस्थेबद्द तळमळ आसता. संस्थेचे उदरगतीचो ध्यास आसता. पूण तें साध करपाचे दोगांनी दोन वेगळे मार्ग आपणायल्ल्यात दोगय एक समांतर चलत रावता, वा एकामेकांक छेद दीयत रावता. दोगय ए मार्गार येनाआशिल्ल्यान दोगांचोय संस्थेक जावंक जाय तसो फाय जायना. उरफाटें लुकसाणच जावपाचो संभव आसता. ताच्याय फु वचून संस्थेक मारक असो, एक गटाचेर बहिश्कार घालपाचो निर्ण दुसरो गट घेता. असो बहिश्कार पर्यायान संस्थेचेर घाल्लो बहिश्क थारता आनी संस्थेचें लुकसाण करता.

संस्था हें संकल्पनेचो फुडार कितें असो हुस्को करपाक लाव विचार केन्ना केन्ना, येवंक लागता. वैयक्तीक फायदो करून दिव ट्रेड युनियनासारक्या संस्थांचो हुस्कोना. वैयक्तीक फायदो हें उद्दीश थंय आसा. मनीस आससर वैयक्तीक फायदो हें उद्दीश्ट न जांवचेंना. म्हणटकीर तोमेरेन अशां संस्थांचो हुस्को करपाची गर दिसना. गरज आसा ती सेवाभावी संस्थाचो हुस्को करपाची.

जिवीत ही एक अखंडपणान चलपी निर्मिती – पुनर्निर्मितीच सांखळ कशी. पोन्नें जाण्टें जालें कीं नव्या तरण्यां भुजांचेर फुडारा

पसालकी येता. संस्थाचो फुडाराचो भार तरनाट्यांच्या भुजार रूप सभावीक आसा. पूण वास्तव इतकें सभावीक दिसना. नाटी पिळगी आपलो करियर घडोवपाच्या कार्यांत इतकी मग्न ल्या, आनी मग्न जाल्या म्हणचे परस इतकी घुस्पल्या, की हेर यच्या कार्याकडेन लक्ष दिवंक तांचेकडेन फुरसत उरूंक ना. जी तें उरल्या ती स्पर्धात्मक कार्यावळिंनीं वांटो घेवन, म्हणजे पर्थून स्कारांच्या फायद्या-तोट्यांच्या वेव्हारांचो विचार करून, वापरप ता. विना-मोबदल्याचो संस्था-संसार हो जाण्ट्यां लोकांचो, टायर्ड जालेउप्रांतचो उपक्रम अशी भोवतेकांनी भावना करून तिल्ल्यान, लार्गी लार्गी सगळ्यांच संस्थांच्या उपक्रमांपासून तरणी ळगी कुशीक रावल्या. फकत मनोरंजनात्मक अशा खिणयाळ्या र्यावळींपुरती तांची उपस्थिती दिसूक लागल्या.

तरनाटे पिळगेक संस्थेलार्गी हाडपाखातीर कांय संस्थांनी, स्थेअंतर्गत बदल करून, तरनाट्यांक संस्थेच्या कार्यांत खाशेले वातेर आस्पावपाचो यत्न केलो. तांकां थंय वाव मेळचो हणून तांचेसंबंधीत खाशेल्यो कार्यावळी आयोजीत केल्यो. रनाट्यांकडल्यान व्हडलोसो रिस्पोन्स मेळूंक पावलोना. खासा रनाट्यांखातीरच आयोजीत केल्ल्यां कार्यावळींक तरनाट्यांक ाडपाक, तांची मनधरणी करची लागता. उत्स्फूर्त प्रतिसाद ेळना जाला. माचयेर 'रोल' आसलेबगर म्हालगडो कार्यावळीक ेना हाचें फाटलो तर्क समजूंक कुस्तार वचना. ताणे हाचे पयलीं संस्थेखातीर खूप योगदान दिल्लें आसा. संस्थेप्रती, समाजाप्रती ताणे आपलें कर्तव्य केल्लें आसा. निकतीच जाची कारकिर्द सुरू जाल्या, जो उमेदवारिच्या काळांत आसा, ताची माचयेवयल्या 'रोला'ची अपेक्षा समजप कुस्तार जाता. आधुनिकतेची निर्मिती आशिल्ल्या शारीकरणाचो विस्तार आतां गावांमेरेन पातळला. सार्वजनीक वावराची परंपरा आशिल्ल्या गांवगिऱ्या वाठारांनीय आतां आदलें चित्र उरूंक ना. शारांत तशें गावांत आतां आदलेवरी परावलंबी वातावरण उरूंक ना. खंयचे संस्थेचो आदार घेतलेबगर मनीस एकोडेपणान आपलें जिवीत सारूंक शकता. तशो साधन सुविधा आतां उपलब्ध जाल्यात. हातांत दुडू आसल्यार कोण कोणाखातीर अडना जाला. म्हणून सामाजीक सांस्कृतीक आनी हेर संस्थांचें कार्य सोंपलें अशें जाता व्हय?

आपूण एक 'सामाजीक प्राणी' आसा हाची जाणीव मनशाक खूप आदीं सावन जाल्या. तशी ताणे आपली वळख करूनय दिल्या. ताची ही वळख जायतसावन, चार चौगांवांगडा एकठांय येवपाची आंतरीक उर्मी आयल्या. हे उर्मीतल्यान ताचेकडल्यान संस्था हे संकलपनेक चालना मेळ्ळ्या. जेन्ना ताका हे समाजिकतेची वळख जाल्ली तेन्नाच तो तसो परावलंबी नासलो. जाय तर तेन्नाय ताच्यान आपलें एकोडेंपण दवरूं येतालें. कितकोय वैयक्तीक विकास जालो, व्यक्तीगत कसलीय गरज भागली, तरी सामाजिकतेची अंतर्यामी ओड ही सभावीक आसा. कोणाची ती मोठी आसता. कोणाची ल्हान. ती नाशिल्लो मनीस आडवादानच मेळटलो. ही आंतरीक ओड मनशाक ताच्या एकोडेपणाचे कुडींतल्यान सार्वजनीक माटवांत हाडलेबगर रावचीना. म्हणून ही ओड आससर मनीस खंयचे ना खंयचे संस्थेकडेन ओडले बगर रावचोना.

सद्याक जी संस्थे संदर्भांतली उदासिनता दिसता, ती सुस्तीच्या कालांतली आळसाय आसा. आर्थीक उदरगतींतल्यान आयिल्ल्या समादानाची नशा आसा. नशेचे अवस्थेंतलो मनीस स्वताभितरच कांय वेळ मश्गूल उरता. ही नशा देंवली म्हणटकीर तो स्वताक स्वताभितरल्यानच मेकळी करून सार्वजनीक जावंक लागतलो. संस्थाप्रिय जावंक लागतलो. ''सामाजीक प्राणी' आशिल्ल्या मनशाक दुसरो पर्याय ना.

संस्थात्मक कार्याच्या फुडारासंबंधीं हुस्को करपाची गरज ना हो संदेश फाटलीं सत्तर वर्सां एक संस्था दीयत आयल्या. 'अखिल भारतीय कोंकणी परिशद' हें ते संस्थेचें नांव आसा. फाटलीं सत्तर वर्सां, सातत्यान कार्यरत आशिल्ली राश्ट्रीय पावंड्यावयली ही कोंकणी संस्था. अशी दुसरी संस्था कोंकणी संवसारांत ना. स्वताचें स्वतंत्र कार्यालय ना. कर्मचारी वर्ग ना. गडगंज फंड ना. तरीय फाटल्यां सत्तर वर्सांत 26 परिशदो आनी 19 साहित्य संमेलना चार राज्यांनी आयोजीत करून कोंकणी समाजाक राश्ट्रीय व्यासपीठ दिवपाचें इतिहासीक कार्य परिशदेन केलां. चार प्रदेशांनी राबितो करून राविल्ल्या, चार धर्मानीं आनी साबार जातींनी वांटून गेल्ल्या, आनी चार लिपींनी वेव्हार करतल्या कोंकणी समाजाक एकठांय हाडून, तांचेमदीं संवाद सादपाचें कार्य तशें सोपें नासलें. तें म्हान कार्य परिशदेकडसून घडलां. सगळे तरेच्यो आडखळी पयस करून परिशद आपले चालीन चलत रावल्या. सगळ्यांक वांगडा घेवन कोंकणीचो वावर करीत रावल्या. फाटलीं सत्तर वर्सां, जाणीं आपल्यांभुजांचेर परिशदेचो भार घेतला, त्यां जाळवणदारांचे वळेरेर नदर मारल्यार एक दिसून येता. समाजाच्या सगळ्यां मळांचेर आपलें अशें खाशेलें योगदान दिल्ल्या जाणकारांनी परिशदेच्या वावरांत निसुवार्थी, समाजसेवी वृत्तीन सहकार दिला. ताणी दिल्ल्या योगदानाच्या म्हालवजारच परिशदेन ही अशी आ?जमेरेनची यशस्वी वाटचाल केल्या. अशी ही संस्थात्मक वावराची गिरेस्त परंपरा आशिल्ल्या कोंकणी समाजाक तरी संस्थात्मक वावराच्या फुडाराचो हुस्को करपाची गरज दिसना.

# कोंकणीच्या, लौकीक उदरगतीं
# बायलांचो सहभाग



ॲड. स्वाती कर्पे केरकार

कोंकणी ही गोंयकारांची 'आवयभास', आवय हें जशें एक सैमी
सत् तशेंच 'आवयभास' हें सुद्धा एक सैमीक सत. ताका लाग
कोंकणी भाशेच्या उदरगतीचो पयलो पावणो म्हळ्यार 'आव
आनी ताकाच लागून ताका आवयभास म्हणटात.

इंगलीशीन एक म्हण आसा - "Mother is a fact, fathe
is a story" - 'आवय हें एक सत् आनी बापूय ही एक काण
आवय हें नातें अदीक सैमीक आनी सबावीक. बापूय हें नाते फ
मनीस जाती मर्दींच तिगून आसा. हेर समेस्त जिवावळीन बापूय
फक्त निमित्य – मात्र पाणी आसता. निमित्याक कारण कसो. थंय
नाते केवळ खिणयाळे.

सान भुरग्याच्या कानार पयली – वयलीं उतरां पडटात तीं ताच
आवयची. आवय आपणाल्या बाळाक भरयता आसतना, न्हिदय
आसतना वा खेळयता. आसतना तरेकवार कवना गायता. पती
म्हूण हांव हांगा दोन कवनां तुमचे मुखार दवरता.

''घुमचे कटर, घुमचे कटर लाला रे,
बाबुल्याचो जेवणा वेळ जाला रे,
कोण तरी वचून ताका सांगा रे,
धव्या घोड्यार बसोवन हाडा रे!''

''धुनू, धुनू, धुनू, धुनू

धुनू वाजता,
आनी भायर येवन पळयत जाल्यार
बायू नाचता!''

ह्या असल्या कवनांक आल्ल्यो वा अंगाई गीतां म्हणटात. ग्याची म्हूण एक खाशेली भास आसता. माजर, बुकलो, कुत्रो, वळो, गाय, दूद, चंद्र, भांगर, हागप, मूतप हीं असली उतरां न भुरग्याच्या शब्दकोशांत आसनात. त्या वाट्याचीं तातूंत वू, बिलू, बुकी, कुतू, काको, धुकू, हामा, भोबो, माममाम दुदू, दीमामा, सुसू, झिजी हीं उतरां आसतात. आनी ह्या असल्या तरांनी आवय भुरग्याकडेन किरायता. आनी एखाद्री कोकणी शी आवय आपणाल्या सान बाळकाकडेन ही निजाची भास परता, तेन्ना आपसुकूच, तिका कळनासतना ती कोंकणीची लौकीक उदरगत जावपाक हातभार लायता. आवयभास ही आवयच्या दुदा वरी आसता. हीच भास भुरग्याची मानसीक आनी शारीरीक पसवण सारकी बरी करता.

बायल मनशेक आपणाल्या जल्मापासून मरणा मेरेन तरेकवार भूमीका करच्यो पडटात. पयलीं ती सान चली आसता. उपरांत तिचे लग्न जाता, ती बायल जाता मागीर आवय जाता, कालांतरान आजी, पणजी जाता. (?) ह्या सगळ्या विंगड - विंगड रुपां आनी काळां मजगती ती तराभासानी आपणाल्या आवय भाशेची लौकीक उदरगत करूंक शकता. बायल मनशे भितर एक आकांताळी तांक आसता. सूप्त शक्त आसता. "The hand that rocks the cradle, rules the world" अशी म्हण्णी आसा. लटीक न्हय ती. जो हात पाळणे झुलोवंक शकता तो संवसार चलोवंक शकता.

आमच्या वेदानी आनी पुराणानी लेगीत अस्तुरेक भोवमानाची सुवात दिल्ली आसा. आमी धर्तरेक 'धरती माँ' म्हणटात, भुंयेक आवय मानतात.

श्रीराम रावणाचो वध करून लंका जिखता. उपरांत ती भांगराळी लंका बिबीशणाच्या सुवादीन करून घरा आयोद्धेक परतुपाच्या तयारेक लागता. श्रीरामाच्या सांगातान ताची घरकान्न. सितामाई आनी भाव लक्षुमण आसता. पूण लक्षुमणाचे मन जड जाल्लें आसता. ताका परत आयोद्धेक वचपाक आवडना आसता. तो भावाक म्हणटा, ''दादो, काय बरेली ही भांगराळी लंका. आमका कितें ती फुक्याफुकी मेळूंक ना. बरी लडाय करून आमी ती जिखल्या. ती सोडून आमी आयोद्धेक कित्याक म्हूण या? आमी हांगाच रावूया.'' तेदेवेळार, आवय, आवयभूंय हांचे महत्व आनी श्रेश्ठत्व भावाक दितना श्रीराम म्हणटा, ''जननी जन्मभुमीच्छ स्वर्गादपी गरीयसी' म्हळ्यार आवय आनी आवयभूंय हीं सर्गा परस श्रेश्ठ आसात! म्हाका जाल्यार दिसता जीं सुवात आवयक आनी आवयभुंयेक आसा, तीच सूवात आवयभाशेक मेळूंक जाय.

बायल मनशेक उंचेली सुवात दिवपाची परंपरा आमच्या देशांत हजारानी वर्सां सावन आसा. 'Ladies first' हो शब्दप्रयोग आमकां भारतीयांक नवो न्हंय. आमच्या पुर्वजानी अनादी काळासावन ह्या तत्वाक पाळो दिल्लो दिश्टी पडटा. देखून आमी केन्नाच रामसिता, कृशणराधा वा नारायण लक्षुमी अशें म्हणनात. आमी सिताराम म्हणटात राधाकृशण वा देवकीकृशण म्हणटात. लक्ष्मीनारायण म्हणटात. हाचोच अर्थ असो की आमची संस्कृताय बायल मनशेक श्रेश्ठ मानता. बायल मनशेन मनार घेतल्यार खंयचेय बी काम तडीक पावताच पावता. आमी कोंकणी बायलांनी मनार घेतल्यार आमची भास अख्ख्या संवसारान एक गिरेस्त भास म्हूण नामना जोडूंक पावतलीच पावतली हाचे विशीं म्हाका इल्लोय दुबाव ना.

''कोंकणीच्या लौकीक उदरगतींत बायलांचो सहभाग'' हो आयचे भासाभासीचो विशय आसा. कोणूय घडये म्हणटलो योगदान हें योगदान. तें बायलांनी केलें वा दादल्यानी केलें म्हूण कितें फरक पडटा?

पूण फरक आसा. कारण बायल आनी दादलो हांचे भितर मूदलान फरक आसा. हांवे हेदोळ सांगला कि जल्मापासून मरणामेरेन बायला मनशेक तरेतरेच्यो भुमीका साकार करच्यो पडटात. सुरवेक ती कोणाली तरी चली आसता, धूव आसता. उपरांत तिचें लग्न जाता. ती सून जावन कोणाल्या तरी घरा वता. म्हणटकीच बायलो मनशेच्या जिवितांत हो जो बदल Change आसता तो दादल्या मनशाच्या जिवीतान आसना. ती लग्न जावन घोवाल्या घरा वता. एका नव्या घरांत, नव्या गावांत, नव्या राज्यांत वा नव्या राष्ट्रांत वता. घोव केन्ना लग्न जावन बायलेच्या घरांत वा गावांत वचना. लग्न जातकीच मागीर बायलेचें नांव, आडनांव बदलता. कोंकणीच्या उदरगती पासत कोंकणी बायलां हे गजालीचो लाव घेवंक शकतात. ती ज्या घरांत वता थंय ती कोकणीचो झेंडो उबोवक शकता. कोकणीचें तिर्थ नव्या घरातल्या नव्या मनशांक दिवंक शकता. तांका कोंकणीचो दिश्टावो घडोवंक शकता. म्हज्या जायत्या कोंकणी मोगी इश्टिणीनी तांच्या लग्नां उपरांत घोवाली घरां कोंकणी मोगी केल्लीं हांवे पळयल्यात.

म्हज्या चल्याक हांवे कोंकणी माध्यमाच्या शाळेंत घालो. कारण म्हाका एक सत मनापासून पटलेले कि ल्हान भुरग्याक कसलेंय बी गिन्यान आपणाल्या आवयभाशे वरवीं सारकें बरें

कळटा. एक इंग्लीश कवन घेंवया.

Baba black sheep
Have you any wool?
Yes Sir, Yes Sir
three bags full.
One for the master
One for the dame
And one for the little boy
who is down the lane.

कितें अर्थ कळटा गोंयच्या माणकुल्या भुरग्यांक ह्या पदाचो?

आता एक कोंकणी कवन घेंवया :

हळडुवो ताल्ल बेबो
शेता मेरेन उबो
हांवे म्हळें "बेब्या बेब्या
खंय रे तुजो गांव?"
उडकी मारून बेब्यांन म्हळें,
"डरांव डरांव...'!

गोंयच्या ह्या सान भुरग्याक ह्या वयल्या कवनातले उतरान उतर कळटा आनी तो तातूंत रमता. आपणाल्या भुरग्याक कोंकणी माध्यमाच्या शाळेंत घालून कोंकणी बायलांनी हेरांक देख दिवची. कोंकणी भास लौकीकेक पावोवपाचे नदरेन हें एक व्हड पावल.

कोंकणी भाषीक बायलांची आनीक एक लागणूक आसा. चली लग्न जाता आनी घोवागेर वता. तिच्या घोवाचीय भास कोंकणी आसल्यार प्रस्नूच ना. पूण जायत्यो कोंकणी चलयो मराठी, कानडी, बंगाली, मल्याळम, तामीळ, हिन्दी वा फिरंगी भाशिका वांगडा लग्न जातात. ती महाराष्ट्रांत कर्नाटकात, बंगालात, केरळात वा परदेशांनी वतांत. मागीर ह्या कोंकणी बायलांच्या भुरग्यांची भास खंयची? अशा वेळार कोंकणी अस्तुरेची एक लागणूक आसा. तिणे आपणाल्या भुरग्यांकडेन कोंकणी उलोवची. तांका कोंकणी शिकोवची. भुरगें आपणाल्या बापायची भास आनी परीसरांतली भास (Lingua franca) आपसूक शिकतले. पूण आवयन भुरग्याची कोंकणी कडली नाळ तोडून दिवंक फावना.

जायत्या मळांचेर बायलांक आरक्षण म्हळ्यार Reservation आसता. आयज बायलां व्हडा प्रमाणान पंच, सरपंच, आमदार, खासदार, मंत्री बी जातात. देशाचे प्रधानमंत्री पद आनी राष्ट्रपती पद बायलांनी भुशयल्यात म्हणपाचें आमी जाणात. ह्या उचेल्या पदांचेर पाविल्ली कोंकणी बायलां तराभासानी आपणाल्या आवयभाशेचो प्रचार आनी प्रसार संवसारभर करूंक शकतात.

आयज चलयो जिविताच्या साबार मळांचेर मुखार आशिल्ली दिश्टी पडटात. हातून विज्ञान, कला, तंत्रगिज्ञान, साहित्य, वैज शिक्षण कायदो, प्रसार माध्यम, खेळ हांचो आसपाव जा ह्या मळांचेर चकचकपी कोंकणी भाशीक अस्तुऱ्यो विविध त आपणाल्या आवयभाशेची सेवा करूंक शकतात आनी ति मानाचो पाट दिवंक शकतात.

कोंकणीच्या लौकीक उदरगतीन सगळ्यांत चड कोणाचो व आसा तर तो आमच्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्या अस्तुरांचो. अ लोकगीतांतल्यान खरी कोकणी परंपरा जिती दवरल्या ती ह अस्तुऱ्यानीं.

दर एके परबेक आनी रितीक वेगळें गीत हें ताचे खाशेलेप हळद, देवकारें, जाते मांडप, लग्न, घरभोरोवणी, फुलां, बार जिविताचे दर एका खिणांक ओंवयानी आनी गीतांनी कोक अस्तुरी अशेतरेन फुलयता.

धालांच्या दिसानीं खंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांत वतना सैमीक कवना कानार पडटात.

"मालुन म्हयन्या, मालून म्हयन्या
मालने पुनवेन जाला गे...

जाला जाल्यार बरें जालें
सखिया सादू घाला गे,
वळी धरून खेळा गे,

नाल फोडुनी केल्यो शिरण्यो
वाटिल्यो तुज विण व्हनी गे,

वाटिल्यो जाल्यार बऱ्यो जाल्यो
सखिया सादू घाला गे
वळी भरून खेळा गे"

रांदची कूड ही तशी बायलांची मक्तेदारी. एका काळार बाय मनशेचे जिवीत रांदचे कुडी पुरतेंच मर्यादीत आसलें. 'रांद, वा उश्टीं काड' इतलें पुरतेच ते सिमीत आसलें. आयज ती परिस्थि उरूंक ना. आयज अस्तुरेक पाखां फूटल्यात. ती संसारभर भोंव शकता. तरीपूण आयज लेगीत रांदचेकुडींतले तिचें वर्चर अबादीत आसा.

तुमी म्हणटले रांदची कूड आनी कोंकणीचो कितें संबंध आ काय म्हूण? खूब आसा. रांदचे कुडीन कोंकणी भाशेक संखे उतरां दिल्लीं आसात. ही उतरां कोंकणी उलोवपांतल्यान आ बरोवपांतल्यान ना जावचीना हाची जतनाय कोकणी अस्तुऱ्यां

ंची पडटली. आमची खूब उतरां आयज शेणून गेल्यात. जी आजी (आवयची आवय) शुद्ध कोंकणी उलयताली. ती टली म्हणनासली. शिंसली म्हणटाली. मोठ्या बाटलेक शिंसो णटाली. भिजोणी, भुरी, अण्णाटी, गिण्णाटी, सान्नां, चवरां, स हीं रांदचे कुडींतली उतरां आतां सपसप आमच्या कानार नात. हांव आदवोगाद जावचे पयलीं ती म्हाका "वांयगणो द्वोगाद" म्हणटाली.

आयज सांबार म्हळ्यार कोणाक कळना, मसालो म्हळ्यार ळटा, कंवट म्हळ्यार सट करून कळना, अंडे म्हळ्यार कळटा! थांबूंक जाय. आमची निजाची कोंकणी उतरां ना नपयत जावन चूंक फावना. खतखतें, सांबार, तिखटें, कडवण, भिजोणी, टकी मिटकी, बुळबुळो, कुंवळ, सान्नां, चवरां, घोंस, दांगर, ाकय, आमील, किस्मूर आसली शेंकड्यांनी निजाची कोंकणी तरां तिगून उरूंक जाय. आनी ही जापसालदारकी आमची. ळ्यार कोंकणी बायलांची.

जण ऐके भाशेचीं कांय महत्वाचीं अशीं आंगा आसतात. spects आसतात. देखिक ती उलोवप, आयकुवप, वाचप, रोवप बी, हातुंतली उलोवप आनी आयकुवप हीं दोन सगळ्यांपरस हत्वाची आनी पेजादीक अशीं आंगां. भास फक्त गिरेस्त आसली हूण जायना. ती जर लोकांच्या जिबेचेर आनी कानानी नासत ाल्यार ती मागीर फक्त मकरान उरता. संवसार भोवना. संस्कृत ाशेची देख घेवया. संस्कृत ही संवसारातली एक भोवच गिरेस्त ी भास, पूण कितें उपेग? ती कोणूच उलयनात वा आयकनात ी देशांतल्या खंयच्याय वाठाराची लोकभास न्हय. आनी म्हणून ी भारतांतल्या खंयच्याच राज्याची जालीना. देखून ती देवाऱ्यान चून बसल्या.

हिन्दी भास आमच्या देशाची राष्ट्रभास कित्या जाली? हे भाशेक ाष्ट्रभास केली तेन्ना ते भाशेंत व्हडलेशें वाङ्मय नासले. तेदेवेळार रपा-अक्षराचे (साक्षरतेचे) प्रमाण भोवच उणे आसले. देखून हेन्दी माध्यमाच्यो शाळा उण्यो आसल्यो. त्या भाशेंतले वाचप - बरोवप व्हडलेशें जायनासले. हे बाबतीन बंगाली, तामील, तेलगू ह्यो भासो कितल्योशोच मुखार आसल्यो. तरीय पूण देशाची ाष्ट्रभास जावपाचो मान फक्त हिन्दीकूच फावो जालो. कित्याक? कारण देशांतले चडान - चड लोक तेन्ना (आनी आतायबी) हिन्दी उलयताले आनी आयकताले. देशांत हिन्दी सिनेमा बेश्टेच लोकप्रिय जावनक नात. देखून उलोवप आनी आयकुप ही खंयचेय बी भाशेची सगळ्यान पेजादीक अशी आंगां. वाचप आनी बरोवप हीं दुय्यम.

आमची आवयभास कोंकणी गोंयची एकमेव राजभास कित्याक जाली? तेदेवेळार कोंकणीकडेन मराठी सर्त करताली. मराठी समृद्ध भास. त्या भाशेतल्यान शाळा चलताल्यो. लोक नाटकां करताले. अभंग आनी आरती गायतालें. कोंकणीकडेन असले उणे आसलें. पूण कोंकणीकडेन दोन भौवच पेजादीक गजाली आसल्यो.

गोयांत तेन्ना (आनी आतांय बी) पंच्याण्णव प्रतीशत लोक कोंकणी उलयताले आनी आयकताले. उलोवप आनी आयकुवप हीं खंयचेय बी भाशेची भोवच शक्तीशाली अशी आंगां. ती हांगा कोंकणींकडेन आसली, देखून कोंकणी गोंयची एकमेव राजभास जावंक पावली.

आतां परतून हांव 'कोंकणीची उदरगत आनी बायलां' ह्या विशयाकडेन वळटां. आमी जाणात की बायलां आनी उलोवप हांचे नाते अनादीकाळा सावन आसा खूब उलोवप हें बायलमनशेचें एक खाशेलपण - Characteristic आसा अशें कोणेय म्हळ्यार ती अतिताय जावचीना अशें म्हाका दिसता. एकदां खंय एक प्राध्यापक कांय विद्यार्थिनी वांगडा जोग घसघसो पळोवंक गेल्लो. सगळ्यो चलयोच आसल्यो. सगळी घसघश्या बगलेक पावलीं. चलयो व्हडल्या - व्हडल्यान उलयताल्यो, हांसताल्यो आनी किटकिटटाल्यो. प्राध्यापकान तांका म्हळें, "आतां मात्शी वगी रावात पळोवया. म्हाका घसघसो आयकूंक जाय!"

आमी बायलां खूब उलयतात. हें उलोवप मात कोंकणीत आसल्यार पुरो. जाली कोंकणीची उदरगत. आयज बरपा वाचपा परस उलोवप - आयकुवप मुखार पावलां आतां आमी चिटड्यो बरयनात. फोनावयल्यान जगभर झांकतात. हें झांकप मात कोंकणीत आसल्यार पुरो. पावली कोंकणी संवसारभर जाय ती उत्साशक्ती जाय तो मोग. मोग आसल्यार खंयहून वडे घांटार पावतात.

झगडप हेंवूय एक उलोवपाचेंच आंग. आमी बायलां खंय खूब झगडटात. धा दादले खंय एकठांय रावूंक शकतात. पूण दोन बायलो एकठांय रावूंक शकनात. त्यो झगडटात. म्हणून आमी बायलो जर भरपूर उलयत आनी भरपूर झगडत जाल्यार तेंवूय बी कोंकणीच्या उदरगती पासत योगदान जातलें. पूण आमचे उलोवप आनी झगडप मात कोंकणीतल्यान जावपाक जाय.

भयणानों आनी भावानों

"कोंकणीच्या लौकीक उदरगतींत बायलांचो सहभाग" ह्या विशयाचेर म्हज्या तांकी आनी कुवती प्रमाण हावें म्हजे विचार मांडले. तुमी हाचेर तुमची प्रतीक्रिया दितलेच. पूण म्हजें उलोवप शांतीकायेन आयकून घेतल्या खातीर हांव तुमचे उपकारी आसा.

देव बरें करूं.

# गोंया भायल्या कोंकणी मनशांची गोंया कडच्यान अपेक्षा

– के. के. उत्तर
प्रेसिडेंट, (डिस्ट्रीक्ट आनी सेशन जज्ज
कोची – केरल

कोंकणी उल्लीता लोकंचे मुख्या केन्द्र गोंया असा. इतिहासिक कारणचे गोंया हक्रूण कोंकणी मनशा भारत देशाचे अनेक भागचे देशकन्तर केरयले. गोंयाचे भुरिपक्ष कोंकणी लोक केरल राज्य देशन्दर केरयले, अणी ते लोक दियदिण, गांवप्रदशाचे खाप केल्ले. ते लोक तिंके सर्व सप्ती, घर, भूसंपत्ती अणी सेक्क घनसंपती उपेष कोरुणु, केरल राज्याचे ऐलेरे जल्यार ते लोक तिंके मात्रुभास, संस्कृताय, रीत, परंपरा, कलारुप दवरप केल्ले. अत्तेंजलरी केरल ग्रायप्रदेशंचे 'गुस्ली' नेसले बथिलांचे हंमका देखतोय. हालीच देशीय वाठारेचे कोंकणी लोकाचे सहवर्णी करूण केरच असी हलाप अस. ते गोंया सरकाराणी केरलंच चेगों घलाप असा. जल्यारे हंमी उद्देश मेलोवच मकशे असा. कोंकणी भास अणी सस्कृतायचे विकास केरप अणी दवरप केरचा यथार्त प्रकार हमी कठिन प्रयत्न केराका

कोंकणी भास अणी संस्कृतायचे विकास अणी प्रचार केरचा हमी थोड कार्यक्रम अणी येवजण सूचना दित्ता.

1. एक एक प्रेदेशांचे कोंकणी भास उल्लित्ता लोकांचे संघटणा प्रधिनिधी दरएकलो घर दर्शन कोरुणु कोंकणी भास अणी संस्कृताय मनात देवरपचे विकासचें अणी तझे महत्व, समजप केरच तिंक आवश्य उपदेश अणी आदार दुवक्का.
2. कोंकणी भास अणी संस्कृताय शिकोवपचे एकएक प्रेदेशांचे विद्याल्य स्थापित करका.
3. प्रदेश, पंचायत, विल्लेज, तहसिल, जिल्ला राज्य सफट वाठारचे कार्यशाला, वादविवाद चलणुक केरपाक.
4. कोंकणी साहित्य कृती बोरिचा व्यक्ती अणी सघटणाचे आदार दुवक्का.
5. कोंकणी मनशांची पोरणे अणी नवे कलारुप, लाटक, गीत, संगीत, नृत्य, प्रादेशिक कलारुप, डोंकुमेन्टरी, चलणुक केरपा उत्तेजन दुवका.

कला कार्यक्रमचे अवधरण कोंकणी यसाचे विकास अणी प्रचार केरप चंगों उपाय अस. सको नवपोत ये तझ पूर्ण अर्थं स्विकार, रुचघेवप अणी आनंद घेवप केरवोले.

6. गोंय अणी भारतांचे अन्य भागचे कोंकणी सिनिमा, कलारु अणी संस्कृताय कार्यक्रम केरल अणी भारतांचे अन्य राज्यां आकाशवाणी द्ररदरशन अन्य टि. वि. चानल घ्यारा प्रसारी अणी टेलिकास्ट केरपाक.
7. एक एक राज्याचे कोंकणी मनशांचे विविध संघटणाचे सहका केरपका.
8. गोंया भायल्या एकएक राज्याचे 'नोटल' कार्यालय स्थापन केरपक. तझे क्रेन्द्र अणी अधिकार कार्यालय गोंया जवक.
9. केरलचे अणी भारताचे अन्य स्थानाचे कोंकणी लोकचे भारतीय राज्यघटणा प्रकार असीचे सक्क अल्पपक्ष नीत मेल्चा सक्क उपाय केरपक्का.
10. केरलाचे अणी भारताचे अन्य स्तानाचे कोकणी सर्वकलाशाल / गोंया सर्वकलाशाचे केन्द्र स्थापन केरपक्का.
11. विधिमंडलामक, विधानसभा अणी लोकसभा चे कोंकणी मनशांचे आसन रखून कोणा, मेल्वाचे भारत सरकार अणी राज्या सरकारचें चेपण हाडप कोरपक्क.

ये (item1 & 8) कार्यवाही केरपचे मुख्य प्रश्न दुडवांचे कठिणाय असा. केरलाचे कोंकणी मनशां बहुभूरिपक्ष दारिद्य रेगाचे सकलाचे असा. तेजलहळीर गोंया भैयल्या कोंकणी मनशांची गोंया सरकार अणी गोंया लोक उपदेश अणी दुडवाचे सहाय जवक्का. ये कार्यक्रमची उचित कार्यवाह केरच भारत सरकार अणी मान्यकरप एन. जि. ओ. (Non Governmental Organisation) लगाणी दुडवाचे आदार मेल्चा असीले कार्य गोंया सरकार अणी गोंया लोक श्रम केरपचा अपेक्षा असा.

जयहिन्द – नमस्कार

# अखिल भारतीय कोंकणी परिषद – पणजी – गोंय
## फाटल्या दोन वर्साचो वावर
## 2008 ते 2010





**सदानंद सि. काणेकार**
अ. भारतीय कोंकणी परिषद
सरकार्यदर्शी

**1. प्रास्ताविक**

1939 वर्सा स. माधव मंजुनाथ शानभाग हांच्या फुडाकारान परिषदेची थापणुक जाली. मुखार परिशदेची सुरवातीच्या काळांतली वाटचाल जरी इल्ली सावकासायेची आसली तरी उपरांतच्या वर्सानी चड करून गोंयचे मुक्तताये उपरांतच्या काळांत तिच्या वावराची गती वाडली. नेम नेमाळाच्या सुत्रांत बांदिल्ली, अ. भा. स्वरुपाची एक संस्था म्हणुन ती सरकार दरबारांत रजीस्टार जाली. तिची नेमान गोवा, म्हाराष्ट, कर्नाटक, केरळ ह्या राज्यानी राष्ट्रीय पातळी वयर्ली अधिवेशनां जांवक लागली. काळ फुडे गेलो, तसो परिशदेच्या दोन वर्सानी जावपी अधिवेशना वांगडाच, अखिल भारतीय कोंकणी लेखक–साहित्य संमेलनांचो वावरुय परिशदेच्या वावराचो भाग जालो. ह्या वावरांत परिशदेन, देशांत ज्या ज्या वाठारांत कोंकणी भाशीक लोक राबितो करून आसा, थंय थंय कोकणीचो उलो पावयलो. कोकणी लोकामदें कोकणी विशीचो अभिमान आनी व्हडविक जागयली, आपणाले आवयभाशे संबदान, कोकणी भाशीक लोकामदे जागृताय घडोवन हाडली. हांतल्यान, कोंकणी मनशाची, कोंकणी म्हणुन आसपी अस्मिताय जागी केली. आज कोंकणी राष्ट्रीय संविधानाचे आठवे अनुसुचित मानाचें स्थान घेवन आसा. भारताचे साहित्य अकादेमीन तर तिका 1975 वर्साच ''भारतांतली एक आधुनिक साहित्यीक भास'' म्हणून मान्यता दिल्ली आसा, गोंय राज्याची ती राजभास आसा. कोकणीच्या ह्या सगळ्या जैतांत, परिशदेन केल्ल्या वावराचो भोवमोलादिक आनी म्हत्वाचो असो वाटो आसा. कोकणी खातीर वावर करपी आज कितल्योश्योच थळाव्यो संस्था गोंय, कर्नाटक, केरळ तशेंच म्हाराष्ट्रांत आसात, हांतल्यो मुखेल संस्था परिशदेकडेन सलग्‌ आसात आनी तांच्या आदारानच परिशदेचो वावर चलता.

**2. परिशदेची नवी वावुरपी समिती**

परिशदेचे 26 वे अधिवेशन अरनाकुलम – कोचीन भरल्या उपरांत मार्च 2008 त संस्थेच्या पणजेच्या कार्यालयांत साबार मंडळाची बसका भरली. बसकेंत 2008–2010 वर्सा खातीर वावुरपी समिती वेंचुन आयली. श्री. शांताराम नायक – अध्यक्ष, श्री. जे. बी. सिकेरा – उपाध्यक्ष, श्री. गोकुळदास प्रभू – कार्याध्यक्ष, फा. एरिक क्रास्टा, श्रीमती शीला कोळंबकार, श्री. शिवानंद शणै – उपकार्याध्यक्ष, सरचिटणीस – श्री. सदानंद काणेकार, श्रीमती नयना आडारकार – पालवी कार्यदर्शी, श्री.

